वर्स 6 ◆ अंक 293 ◆ पानां 8 ◆ मोल ₹ 3.00 / पणजी / मडगांव / गोंय REGD NO. G-2/RNP/GOA/28/2017-19 ◆ RNI: GOAKON/2016/69208 Facebook.com/Bhaangarbhuin @Bhaangarbhuin instagram.com/ Bhaangarbhuin epaper.thegoan.net

सोमार 11 एप्रील 2022

लोकभाशेंत लोकांचो आवाज

# भांगरभूंय



»2

दिवचलेक मंत्रीपद परतून एकदां चुकलें

दिल्ली कॅपिटल्साचें केकेआराचेर 44 धांवड्यांनी जैत

»8



# पाकिस्तानांतलें इम्रान सरकार कोसळ्ळें

## अविस्वास थाराव संमत, नवो प्रधानमंत्री आयज वेंचतले

■ खबरां संस्था



**इस्लामाबाद:** पाकिस्तानांत फाटलो म्हयनोभर सुरू आशिल्लो राजकी वाद सोंपपाच्या मार्गाचेर आसा. शेनवारा मध्यानरातीं घडिल्ले नाट्यमय घडामोडी उपरांत प्रधानमंत्री इम्रान खान हांच्या फुडारपणा खालचें सरकार कोसळ्ळें. अविस्वास थाराव टाळपाचो तांणी खूब यत्न केलो. पूण ते येसस्वी जाले नात. अविस्वास थाराव 174 आड 0 मतांनी संमत जालो.

सोमारा दनपरां 2 वरांचेर नवो प्रधानमंत्री वेंचून काडटले. पीएमएल - एन गटाचे फुडारी शाहबाज शरीफ हांणी विरोधकांचे प्रधानमंत्रीपदाचे उमेदवार म्हूण उमेदवारी अर्ज दाखल केला. जाल्यार इम्रानाच्या पीटीआय पक्षान आदले विदेश मंत्री शाह महमूद कुरेशी हांणी उमेदवारी अर्ज दाखल केला.

उमेदवारी अर्ज भरले उपरांत शाहबाज हांणी सांगलें की नवाज शरीफ हांचे विरोधांतले खटले कायद्या प्रमाण चलतले. काश्मीर प्रस्नाचेर ठोस तोडगो काडी मेरेन भारता वांगडचे संबंद सुदारचे नात. मजगतीं, सरकारा आड विरोधकांक एकठांय करपी मौलाना फजल उल रहमान हांणी इम्रान खानाचो उल्लेख नकलाकार असो केला. मजगतीं, इस्लामाबादांत लश्कर तैनात केलां. देशांतल्या खंयच्याच फुडाऱ्याक वा अधिकाऱ्याक हाचे मुखार एनओसी आसले बगर देशा भायर वचपाक मेळचें ना. आदले सभापती असद कैसर आनी उपसभापती कासीम सुरी हांचेर न्यायालयाचो अवमान केल्ले खातीर कारवाय जातली.

चड करून प्रधानमंत्री शाहबाज शरीफ हांची प्रधानमंत्रीपदाचेर नेमणूक जातली. ते नवाज शरीफ हांचे ल्हान भाव. आतां पाकिस्तानांत नवी फांतोड जाल्या अशी प्रतिक्रिया शाहबाज हांणी उक्तायली.

सकाळीं 10 वरांचेर अविस्वास थाराव मांडलो. दनपरां 12 क मतदान प्रक्रिया सुरू जाली ती मध्यान रातीं मेरेन चल्ली. ताचे पयलीं संसदेचे अध्यक्ष आनी उपाध्यक्ष दोगांयनी राजिनामो दिलो. मागीर विरोधी फुडारी अयाज सादीक हांणी हंगामी सभापती पद भुशयलें. थारावाच्या वेळार इम्रान खान स्वता गैरहजर आशिल्लो. तांच्या सगल्या खासदारांनी सभात्याग केलो. ताका लागून 342 वांगड्यांचे संसदेंत 174 मतांनी थाराव मंजूर जालो.

# ई पावणेक खंडपिठांत आव्हान

## डंपाचे ई पावणेची एसआयटी वतीन चवकशी करपाची मागणी

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पणजी :** खण म्हाल तशेंच डंपाची येरादारी बेकायदो जाल्ल्याचो दावो करीत खण खात्याच्या 19 जानेवारीच्या ई पावणेक गोवा फावंडेशनान मुंबय उच्च न्यायालयाच्या गोंय खंडपिठांत आव्हान दिलां. 19 जानेवारी 2022ची ई पावणी प्रक्रिया रद्द करची आनी एसआयटी वतीन चवकशीचे आदेश दिवचे अशी मागणी जनहीत याचिकेंत आसा.

गोवा फावंडेशनान 4 एप्रील 2022 ह्या दिसा जनहीत याचिका सादर केल्या. याचिकेचेर सुनावणी जावन निवाडो जाय मेरेन खण म्हालाचे येरादारीक स्थगिती दिवपाची मागणी याचिकादारान केल्या.

खण संचालनालयाक हे याचिकेंत प्रतिवादी केल्या. ते भायर इंडियन ब्युरो ऑफ मायन्स, डायरेक्टर जनरल ऑफ मायन्स सेफ्टी, खण मंत्रालय, गोंय राज्य प्रदुशण नियंत्रण

➔ पान 2 चेर

# इतिहासीक, दायज थळांची म्हायती एकठांय करतले

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पणजी :** गांवगिऱ्या वाठारांत आशिल्ली इतिहासीक तशेंच दायज थळांची म्हायती एकठांय करपाचो वावर पुराभिलेख खात्यान सुरू केला. बाबत स्थितींतल्या थळांची म्हायती एकठांय केली की तांचो विकास करपाची प्रक्रिया सुरू करप शक्य जातलें.

पोरण्या तशेंच बाबत स्थितींतल्या इतिहासीक आनी दायज थळां विकसीत करपा खातीर सरकारान येवजण सुरू केल्या. हे येवजणेची घोशणा मुख्यमंत्र्यान अर्थसंकल्पांत केल्या. हे घोशणे उपरांत पुराभिलेख खात्यान म्हायती एकठांय करपाक सुरवात केल्या.

# बैलपार पंप हावसाचें काम बंद करात

## थळाव्यांची पुलिशेंत कागाळ: काम बेकायदा आशिल्ल्याचो दावो

भांगरभूंय | प्रतिनिधी

**पेडणें:** शेतकारांक उर्बा दिवचे खातीर बैलपार कासारवर्णे न्हंये देगेर उदका स्त्रोंत खातें 27 कोटी रुपया खर्च करून पंप हावस बांदता. हें काम बेकायदा आशिल्ल्याचो दावो करून थळाव्या शेतकारांनी पुलिशेंत कागाळ नोंद केल्या. तशेंच हें काम बंद करपाची मागणी केल्या. जाल्यार दुसरे वटेन, ह्या कामाक सरकारान मंजुरी दिल्या आनी ताका पंचायतीच्या नाहरकत दाखल्याची गरज ना, अशें उदकां स्त्रोत खात्याचो अधिकारी देशपांडेन सांगलें.

बैलपार न्हंयेच्या दोनूय वटांनी शेंकड्यांनी शेतकारांनी बागायती पिकयल्यात. त्यो ह्याच उदकाचेर अबलंबून आसात. मार्चा उपरांत हे न्हंयेचें उदक उणें जाता. ताका लागून न्हंये धडेर आशिल्ल्या शेतांक, कुळागरांक, केळ्यांचे बागायतीक, मिरसांगाच्या मळ्यांत उदक मेळना. ताका लागून पीक करपून वता आनी शेतकारांक लुकसाण सोंसची पडटा.

मोपा विमानतळ वाठारांत जे विवीध प्रकल्प आनी गेम्ब्लिंग झोन येवपाचो आसा ताका हें उदक वळयतले, असो दुबाव थळाव्या शेतकारांनी उक्तायला.



नेटान चालू आशिल्लें पंप हावसाचें काम. (निवृत्ती शिरोडकार)

### शेतकारांची आंदोलनाची शिटकावणी

हे न्हंयेचें उदक हेर वटेन वळोवपाक शेतकारांनी खर विरोध केला. सरकारान उदका स्त्रोत खात्या वतीन शेतकारांक हे न्हंयेंतल्यान योग्य प्रमाणांत उदका पुरवण करची. हे न्हंयेचें उदक दुसरे वटेन वळयलें जाल्यार चांदेल प्रकल्पाक लेगीत उदक मेळचें ना. ते भायर पुराय पेडणें म्हालाचेर उदकाचें संकट येतलें. सरकारान हाचो परतून विचार केलो ना जाल्यार खर आंदोलन हातांत घेतले, अशी शिटकावणी शेतकार उदय महाले, गाड आनी हेरांनी दिल्या.

# दिवचलेक मंत्रीपद परतून एकदां चुकलें

भांगरभूंय | प्रतिनिधी

**दिवचल:** 22 वर्सां जालीं दिवचल मतदारसंघाक मंत्रीपद मेळूंक ना. हे खेपे डॉ. चंद्रकांत शेट्ये हाका मंत्रीपद मेळटलें अशें दिसतालें, पूण केंद्रीय फुडाऱ्यांनी लोकसभा वेंचणूक दोळ्यां मुखार दवरून दक्षीण गोंयाचेर कृपा केली. ताका लागून सध्या तरी दिवचल मतदारसंघाक मंत्रीपद मेळपाची शक्यताय ना.

ह्या संबंदान प्रतिक्रिया दितना निवृत्त शिक्षक प्रशांत चणेकारान सांगलें, पांडुरंग रावता उपरांत दिवचलेक मंत्रीपद मेळूंक ना. उदरगतीचे बाबतींत लेगीत दिवचले कडेन आडनदर जाल्या. राजकी इत्साशक्तीक लागून खूबशे प्रकल्प सांखळे गेले.

दिवचले रवींद्र भवन जावपाचें आशिल्लें, पूण ताचें स्त्रय कोणाक दिवचें ह्या वादांत तें घुस्पलें आनी सांखळेच्या फुडाऱ्यांनी ह्या वादाचो योग्य फायदो घेवन तें सांखळे बांदलें. आयज खूबशे प्रकल्प सांखळे जातात. सांखळी आधुनीक शाराचे दिशेन पावलां मारता, अर्थांत मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंतान ते खातीर साबार येवजण्योय आंखल्यांत. ताका लागून सांखळी शार पणजी उपरांत उदरगतीचे बाबतींत दुसऱ्या नंबराचें जालां. आयज डॉ. शेट्ये हाका मंत्रीपद मेळूंक नासलें तरीय येता त्या काळांत ताका एक व्हड जापसालदारकी मेळपाक शकता, अशे संकेत मेळटात.

### मंत्रीपद हो आपलो अजेंडा नाशिल्लोच: डॉ. शेट्ये

दिवचल मतदारसंघ आपल्याक आदर्श करपाचो आसा. मंत्रीपद हो आपलो अजेंडा नाशिल्लोच. उदरगत हो आपलो मुद्दो आसा. मंत्रीपद मेळिल्लें जाल्यार दुदांत साकर जावपाची. मुख्यमंत्र्यान आपल्याक पुराय आदार दिला. जे प्रकल्प आमी निश्चीत केल्यात, ते पुराय करपाचो आपलो संकल्प आसा. ते खातीर कामूय सुरू केलां, अशें आमदार डॉ. चंद्रकांत शेट्ये हाणें सांगलें.



# सत्तरी अंजुणें धरण वाठारांत मानग्याच्या पिलाक जिवदान

भांगरभूंय | प्रतिनिधी

**वाळपय:** सत्तरी म्हालांतल्या अंजुणे धरण वाठारांत आयतारा तीन तरणाट्यांनी मानग्याच्या पिलाक जिवदान दिलें.

मेळिल्ले म्हायती प्रमाण अंजुणें धरणाचे सकयले वटेन उदकाच्या भायर एक मानग्याचें पील आयिल्लें. ताका परतून उदकांत वचपाक जमानाशिल्लें. त्या वाठारांतल्या विरेंद्र नायक, दत्ताजीराव राणे आनी देवेन जोशी हांणी ताका पळयलें आनी ताका धरून उदकांत सोडले.

विरेंद्र नायकान सांगलें, आमी तीन इश्ट त्या वाठारांत भोंवपा खातीर गेल्ले. तेन्ना तें पील आमकां दिसलें. ताका धरून आमी परत उदकांत सोडले.

# कदंबा कर्मचाऱ्यांक विशेश सत्रांत मार्गदर्शन

भांगरभूंय | डीआयपी

**पणजी:** कदंबा येरादारी म्हामंडळाच्या कर्मचाऱ्यां खातीर शेनवारा पर्वरी संजय स्कुलांत विशेश सत्र आयोजीत केल्लें. ह्या सत्रांत बशींतल्यान प्रवास करतना नेत्रहीन आनी कर्णबधीरांक येवपी समस्यांची म्हायती तांकां दिली.

दिव्यांगजन आयुक्त आनी समाज कल्याण खात्यान कदंबाच्या कर्मचाऱ्यां खातीर सुरू केल्ल्या "विशेंश व्यक्ती हक्क जागरूकताय सत्र" चो एक भाग म्हूण ह्या सत्राचें आयोजन केल्लें.

कदंबा ही राज्यांतली भौशीक येरादारी सेवा आसा आनी चडशें दिव्यांग मनीस दर दिसा कदंबा बशींतल्यान प्रवास करतात. विशेश मनशांचे समस्यां विशीं हेरांक चड म्हायती नाशिल्ल्यान विशेश मनशांक साबार अडचणींक फुडो करचो पडटा. चालक आनी कंडक्टरांक तांच्या समस्यांची जाणीव करून दिवपाच्या उद्देशान ह्या सत्राचें आयोजन केल्लें.

आदली विशेश व्यक्ती आयुक्त अनुराधा जोशी आनी राज्य विशेश व्यक्ती आयुक्त कार्यालयाचे कर्मचारी हांणी संजय शाळेच्या सभाघरांत 50 जाणांच्या पंगडा खातीर ही कार्यावळ आयोजीत केल्ली.

नेत्रहीन महादेव गांवकर हांणी सांकेतीक भाशेंतल्यान नेत्रहीनांच्यो समस्यां सांगल्यो. दिव्यांगजन आयुक्त गुरूदास पावसकर हांच्या मार्गदर्शना खाला हें सत्र जालें.

# 'एमआरएफ' प्रकरणांत तीन पंचायतींक कारणां दाखय नोटीस

भांगरभूंय | प्रतिनिधी

**पणजी:** कोयर वेवस्थापन मुंबय उच्च न्यायालयाच्या गोंय खंडपिठान वेळावेळार निर्देश दिवन लेगीत मटेरियल रिकव्हरी फॅसिलिटी (एमआरएफ) बाबतींत कांयच करिना म्हूण खंडपिठान हळदोणें, सांताक्रूझ आनी कुंडय पंचायतीक न्यायालयाचो अवमान कायद्या खाला कारणां दाखयात नोटीस जारी केल्या. तशेंच ह्या पंचायतींच्या सरपंच, उपसरपंच आनी सचिवांक फुडले सुनावणे वेळार खंडपिठांत हाजीर रावपाचे निर्देश दिल्यात. ते भायर पंचायत संचालकाक तिनूय पंचायतींचें कामकाज हातांत गेवचे खातीर कारणा दाखय नोटीस जारी करपाचो निर्देश दिला.

कोयराची समस्या सोडोवपा खातीर खंडपिठान गोंय कोयर वेवस्थापन मंडळाचो (जीडब्ल्यूएमसी) वेवस्थापकीय संचालक, पंचायत संचालनालयाचो संचालक, गोंय राज्य प्रदुशण नियंत्रण मंडळाचो वांगडी सचीव, भौशीक बांदकाम खात्याचो कार्यकारी अभियंतो आनी महसूल खात्याचे अधिकारी तशेंच हेर अधिकाऱ्यांची समिती नेमिल्ली. ते समितीक नगरपालिका आनी पंचायतींत एमआरएफ तशेंच कंपोस्टींग युनीट विशीं स्थिती अहवाल सादर करपाचे वेळावेळार निर्देश दिल्ले. ते प्रमाण समितीन हळदोणें, सांताक्रूझ आनी कुंडय पंचायतींत अजून लेगीत समादानकारण 'एमआरएफ' वा तात्पुरती शेड नाशिल्ल्याची म्हायती खंडपिठांत दिली. हाची दखल घेवन खंडपिठान कारणां दाखय नोटीस जारी केल्या. तशेंच ह्या प्रकरणांत 19 एप्रीलाक प्रतिज्ञापत्र सादर करपाक सांगलां. ह्या प्रकरणाची फुडली सुनावणी 19 एप्रीलाक जातली.



सुर्ला नारायण देव देवळांत रामाक पाळण्यांत घालपाच्या सुवाळ्याक हाजीर राविल्लो मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंत. कुशीक हेर मानेस्त. (विशांत वझे)

# सांखळे रामनम उमेदीन

भांगरभूंय | प्रतिनिधी

**दिवचल:** सांखळी मतदारसंघांत रामनम उत्सव व्हड उमेदीन मनयली. हे निमतान विवीध धर्मीक आनी सांस्कृतीक कार्यावळीं जाल्यो. मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंतान सुर्ला देवळांत देवदर्शन घेतलें. रामनमी निमतान विवीध धर्मीक विधी आनी राती कडेन नाटक सादर जालें.

वेळग्यां महादेव देवळांत, सुर्ला श्री नारायण देव देवळांत, न्हावेली लक्ष्मी नारायण देवळांत, सांखळे विठ्ठलापूर पांडुरंग देवळांत रामनम मनयली.

# वेळूस रवळनाथ देवस्थानाचे समितीन घेतलो सोपूत



सोपूत घेतना वेळूस रवळनाथ देवस्थानाची समती.

भांगरभूंय | प्रतिनिधी

**वाळपय:** वेळूस रवळनाथ देवस्थानाचो वाद फाटल्या सुमार एका वर्सा पासून गाजता. म्हाजनां मदीं आशिल्ल्या वादाचे फाटभुंयेर नेमिल्ले समितीन सोपूत घेतलो. सत्तरी म्हालाच्या मामलेदार कार्यालयांत ही कार्यावळ जाली. मामलेदार कौशीक देसायान तांकां गोपनियतेचो सोपूत दिलो.

ह्या वेळार अध्यक्ष राजाराम सातू गांवकार, उपाध्यक्ष- भारत काशिनाथ गांवकार, सचीव- पोतो जयराम गांवकार, जोडसचीव- महादेव कृष्णा गांवकार, भाडारी- तुळशीदास गणेश गांवकार, उपभांडारी- बाळकृष्ण साजरो गांवकार, अँटर्नी- बाबाजी आंनद गांवकार, सहअँटर्नी- नितेश काशिनाथ गांवकार हाजीर आशिल्ले.

गांवकार समाजाचे वांगड्यांची देवस्थान समितीचेर नेमणूक जाल्या. ताका लागून फुडारांत गांवकार समाजाचेर धर्मीक नदरेन अन्याय जावचो ना, हाची विशेश जतनाय घेतले. तशेंच आतां मेरेन ज्यो बेकायदा गजाली घडल्यात ते संदर्भांत नदर दवरतले. देवस्थानाची नामना येता त्या काळांत आनीक वाडची हे खातीर वेगळे तरेचे धर्मीक उपक्रम आयोजीत करपाचेर भर दितले., अशें राजाराम गांवकारान पत्रकारां कडेन उलयतना सांगलें.

ह्य देवस्थानाचो वाद न्यायालयांत आसा. गांवकार समाजाचेर साबार तरेन अन्याय जाला. फुडारांत कसलेच तरेच अन्याय सोंसून घेवचे नात., अशी शिटकावणी गांवकारान दिली.

# बेपत्ता चालकाचो खंयचोच अवयव गायब ना: गोंय पुलिशेचो दावो

भांगरभूंय | प्रतिनिधी

**म्हापशें:** गोंयांतल्यान बेपत्ता जाल्लो श्रीनिवास घजीवल्ली (38, हैद्राबाद) ह्या टॅक्सी चालकाचे कुडीचो खंयचोच अवयव गायब जावंक ना, अशें वैजकी अहवालांतल्यान स्पश्ट जालां. ताका लागून हैद्राबादांतले एके वॅबसायटीन उजवाडायिल्ल्या अवयव तस्करीचे खबरेंत तथ्य नाशिल्ल्याचो दावो गोंय पुलिशेन केला.

हो बेपत्ता जावपाचो प्रकार 21 मार्चाक घडिल्लो. श्रीनिवास हो हैद्राबादांत एक पर्यटक गाडी चालक म्हूण काम करतालो. थंयच्या प्रवाशांक घेवन तो 20 मार्चाक हणजुण्यां आयिल्लो. ते उपरांत दुसऱ्या दिसा सावन तो बेपत्ता जाल्लो. त्या प्रवाशी पर्यटकांनी ताका खूब सोदलो आनी उपरांत 24 मार्चाक हणजुणें पुलिशेंत बेपत्ता आशिल्ल्याची कागाळ नोंद केली.

ते उपरांत बेपत्ता श्रीनिवास 4 एप्रीलाक घरा पावलो. तेन्ना ताचे तकलेक आनी कमरेक जखम जाल्ली. आपल्याक कोणे तरी मारपेट केलो आनी आपले अवयव काडले, अशें ताणें आपल्या घरच्यांक सांगलें. ते उपरांत ताका थंयच्या एका खाजगी हॉस्पिटलांत दाखल केलो. तेन्ना ताच्या पोटांतल्यान कसलोच अवयव काडूंक नाशिल्ल्याचें दोतोरांक कळ्ळें. तकलेक जाल्ली जखम भरून काडचे खातीर ताणें कमरेची कात काडल्या आसतली, असो दोतोरांचो अदमास आसा. ते भायर तो आपली गवाय परतून परतून बदलीत आसा.

पयलीं आपल्याक कोणेतरी पणजे व्हेलो आनी उपरांत कर्नाटकांत व्हेलो, अशें तो सांगता. तशेंच त्या प्रवाशांनी ताका गाडयेचें भाडें म्हूण 9500 रुपया दिल्ले ते ताणें सोरो आनी वखदां खातीर मोडल्यात आसतले, असो पुलिसांनी दुबाव उक्तायला.

उत्तर गोंय पुलीस अधिक्षक शोबीत सक्सेनाच्या मार्गदर्शना खाला उपनिरिक्षक तेजसकुमार नायकाच्या फुडारपणा खाला हणजुणें पुलीस पंगडान हैद्राबाद वचून श्रीनिवासाची जबानी घेतल्या. तशेंच खाजगी हॉस्पिटलांतलो अहवाल तपासून उपरांत ताची सरकारी हॉस्पिटलांत तपासणी केली. तेन्ना ताचो कसलोच अवयव गायब जावंक नाशिल्ल्याचें स्पश्ट जालें.

# वेळग्यां जाली नव्या शिक्षणीक धोरणाचेर कार्यशाळा



नवें शिक्षणीक धोरण कार्यशाळेच्या उक्तावण सुवाळ्याक हाजीर आशिल्ले डॉ. नारायण देसाय, कालिदास मराठे, कमलाकर म्हाळशी, झिलू गांवकार, तुळशीदास सामंत, अभय जोग आनी हेर. (राघोबा पेडणेंकार)

भांगरभूंय | प्रतिनिधी

**केरी-सत्तरी:** वेळगेंच्या भारती बांदोडकार मुळाव्या विद्यालयांत वेळगें म्हाशाळा समूह आनी बाल शिक्षण परिशद गोंय हांचे वतीन 'नवें शिक्षणीक धोरण' ह्या विशयाचेर कार्यशाळा जाली. 'नवीन शिक्षणीक धोरणांत शिक्षक, पालक नी संस्थांची भुमिका' ह्या विशयाचेर परिसंवाद आनी चर्चासत्राचें आयोजन केल्लें.

दिवचल सीडीपीओ विभागांत येवपी आंगणवाडी शिक्षिका आनी आंगणवाडीच्या तशेंच हेर कर्मचाऱ्यां खातीर ही कार्यशाळा आयोजीत केल्ली. तातूंत नवें शिक्षणीक धोरण तयारेच्या टप्प्यांत पालक, शिक्षकांची भुमिका आनी नव्या शिक्षणीक धोरणा तडेन संबंदीत विशयांचेर मार्गदर्शन केलें.

ह्या वेळार माचयेर मुखेल उलोवपी म्हूण डॉ. नारायण देसाय, कालिदास मराठे, कमलाकर म्हाळशी, झिलू गांवकार आनी तुळशीदास सामंत तसेच रंगकर्मी अभय जोग, तरळे, श्रीमती विद्यालयाची प्रभारी मुख्याध्यापक चित्रा परांजपे, सिद्धार्थ बांदोडकार उच्च माध्यमीक विद्यालयाचो प्राचार्य अनिल वेर्णेकार हाजीर आशिल्लो.

भाऊसाहेब बांदोडकाराच्या फोटवाक फुलांचो हार घालून तशेंच दिवली पेटोवन कार्यशाळेचें उक्तावण केलें. विद्यार्थ्यांनी येवकार गितान मानेस्तांक येवकार दिलो. झिलू गांवकारान प्रास्तावीक केलें.

चर्चासत्राच्या पयल्या सत्रांत डॉ. नारायण देसाय हाणें नव्या शिक्षणीक धोरणा विशीं म्हायती दिली. दुसऱ्या सत्तरांत कालीदास मराठे हाणें नवें शिक्षणीक धोरण आनी शाळांतल्यो साधन सुविधा हाचेर मार्गदर्शन केलें. तिसऱ्या सत्रांत कमलाकर म्हाळशी हाणें शिक्षणीक धोरणांत आशिल्ली पालकांची भुमिका कितली म्हत्वाची आसा, तें स्पश्ट केलें. तुळशीदास सामंतान गणीत विशया कडेन संबंदीत म्हत्वाच्यो गजाली सांगल्यो.

कार्यावळ येसस्वी करचे खातीर लक्ष्मण गांवस, मंदार जोग, योगेश कवठणकार, दिप्तेश सावंत, भारती हळदणकार, रेश्मा पेडणेंकार, आरती नागेशकार, मयुरी नायक, बिंदिया नायक, श्रुतिका पाटील, स्नेहा ताटे, मोहिनी वेंगुर्लेकार, अंबिका पाटील, वंदना नायक, वंदना च्यारी, विमल गांवस आनी शिक्षकेतर कर्मचाऱ्यांनी योगदान दिलें.

पान 1 वयल्यान

## ई पावणेक खंडपिठांत आव्हान

नियंत्रण मंडळ, गोंय राज्य, दामोदर मंगलजी कंपनी आनी वेदान्ता लिमिटेड हे हेर प्रतिवादी आसात. खण संचालनालयान पिसुर्लें हांगाच्या लिजा वेल्या म्हालाची 19 जानेवारी 20022 रोजी ई पावणी केली. खण म्हालाची येरादारी सुरू जाल्या. लीज धारका कडल्यान ब्र्योच बेकायदो गजाली जाल्ल्याचो दावो याचिकेंत आसा. सर्वोच्च न्यायालयाच्या आदेशा प्रमाण डंप म्हाल हालोपाक मेळना. एसआयटीन म्हालाची पळोवणी करिनासताना ई पावणी करून म्हालाची येरादारी जाली. प्रदुशण नियंत्रण मंडळाची मान्यताय तशेंच देखरेखी बगर म्हालाची येरादारी करपाक मेळना. हांगा प्रदुशण नियंत्रण मंडळाची मान्यताय नासतना म्हालाची येरादारी जाल्या. गोंय खण म्हाल धोरण 2013त नमूद केल्ले अटीक लेगीत पालव दिवपाची गरज आसा. डंप म्हालाचे येरादारीक मान्यताय ना. डंप म्हालाच्या हाताळणीचो विशय सर्वोच्च न्यायालयांत प्रलंबीत आसा. तरी लेगीत ह्या प्रकरणांत डंप म्हालाची येरादारी जाल्या. राज्य सरकार आनी हे याचिकेंतले प्रतिवादी लीज धारकांच्या संगनमतान हो बेकायदो प्रकार जाला असो दावो याचिकेंत आसा. मारसोडो - पिसुर्लें हांगा लीज टीसी नंबर 95/52 हे व्ही. एस. धेंपो आनी सीआयए लिमिटेड हांच्या नांवाचेर आशिल्ले. 2003 उपरांत दामोदर मंगलजी कंपनीच्या नांवान लिजाचें हस्तांतरण जालें. लीज धारकाक 9 एप्रील 2007 ह्या दिसा पर्यावरणीय दाखलो मेळ्ळो. पर्यावरणीय दाखलो मेळ्ळे उपरांत लेगीत कंपनीन लिजांतल्यान खण म्हाल काडूंक ना. खण म्हाल काडिल्ल्याची चुकीची म्हायती दीत रावले असो दावो याचिकेंत आसा. याचिकादारान जाग्याचे फोटे तशेंच हेर सगलीं कागदपत्रां याचिके सयत जोडल्या.

# खंवटे, हळर्णकारा कडल्यान बार्देसकारांक आस्त

भांगरभूंय | प्रतिनिधी

**म्हापशें:** 2022 च्या सरकाराच्या मंत्रीमंडळांत बार्देस म्हालांतले आमदार रोहन खंवटे आनी निळकंठ हळर्णकार हांकां मंत्रीपद मेळ्ळां. बार्देस म्हाला सयत ह्या म्हालाची राजधानी आशिल्ल्या म्हापशें शाराची सर्वांगी उदरगतीची जापसालदारकी ह्या दोनूय मंत्र्यांच्या भुजांचेर आयल्या.

उत्तर गोंयांतलो बार्देस हो म्हत्वाचो तशेंच सात विधानसभा मतदारसंघ आशिल्लो हो म्हाल. हे खेपेचे वेंचणुकेंत ह्या म्हालांत भाजपाक फावोशें येस मेळूंक नासलें तरीय तांकां तीन सुवातो मेळ्ळ्यात. तातूंतल्या दोगांचो मंत्रीमंडळांत आसपाव केला.

वीज, इदक, रस्ते, भलायकी सेवा ह्यो मुळाव्यो गरजो दिवपा वांगडाच बार्देस म्हालांत विकासात्मक आनी रोजगार निर्मितीचे प्रकल्प चालीक लावन बार्देसकारांची काळजां जिखपाची संद ह्या दोनूय मंत्र्यांक कार्यप्रणाली वरवीं भाजपाक मेळ्ळ्या.

घाणयारें उदक ही ह्या म्हालांतली मुखेल समस्या जाल्या. ताका लागून न्हंयो आनी दर्याचें उदक प्रदुशीत जालां. म्हापशें, कळंगूट आनी पर्वरींत घाणयाऱ्या उदकाच्या प्रकल्पांचें बांदकाम केलां. हे तिनूय प्रकल्प पुराय जावन लेगीत चालीक लागूंक नात. ताका लागून हे प्रकल्प सुरू करपा सयत गरजेच्या सुवातांचेर ल्हान ल्हान प्रकल्प उबारल्यार म्हालांतली ही मुखेल समस्या सुटूं येता. तेच वांगडा म्हापशें शारांतलो नियोजीत कदंबा बसस्टॅण्ड आनी पार्कींग प्रकल्पाचें बांदकाम हातांत घेवपाक जाय.

कळंगूट ते पर्वरी चोगम रस्त्याचें रुंदीकरण, म्हापशेंची वीज भवन इमारत, सरकारी संकूल इमारत, कोयर वेवस्थापन, पर्यटनाचेर अवलंबून आशिल्ल्या वेवसायाच्या हिता खातीर येवजण्यो चालीक लावप, हे सारकिल्ल्यो गजाली प्राधान्यान हातांत घेवप अशी आस्त बार्देसकाराक ह्या दोनूय मंत्र्यां कडल्यान आसा.





## बार्देस म्हाल वार्तापत्र

### मायकल लोबोक लेगीत उदरगतीची संद

विरोधी पक्ष फुडारी म्हूण ह्याच म्हालांतलो आमदार मायकल लोबोची निवड जाल्या. ताका लागून बार्देसकारां सयत गोंयच्या लोकांचे प्रस्न मांडपाची ताका संद मेळ्ळ्या. ते भायर ह्या पदाचो वापर करून लोबोक सरकारा कडल्यान बार्देस म्हालांतले प्रलंबीत प्रकल्प चालीक लावन घेवपाची संद मेळ्ळ्या.

# अयोध्येचो प्रस्न सुटावो करून राम मंदिराक चालना दिवप हें म्हान काम : मुख्यमंत्री

भांगरभूंय । प्रतिनिधी



रामोत्सवांत वांटेकार जाल्ली भुरगीं आनी सुवासिनी वांगडा मुख्यमंत्री डॉ प्रमोद सावंत, आमदार चंद्रकात शेट्ये आनी हेर

**दिवचल:** फाटल्या जायत्या वर्सां सावन प्रलंबीत आशिल्ल्या अयोध्या प्रश्नांत निर्णायक तोडगो काडले उपरांत राम मंदिराक चालना दिवपाचें हिंदूचे नदरेंतलें म्हान काम पंतप्रधान नरेंद्र मोदी हांच्या सरकारान केलां. राम राज्य येवचें हे खातीर सगल्यांनी सहकार्य करपाक जाय अशें मुख्यमंत्री डॉ प्रमोद सावंत हांणी सांगले. विश्व हिंदू परिशद रामोत्सव समितीन दिवचलच्या छत्रपती शिवाजी म्हाराज मैदानार आयोजीत केल्ल्या रामोत्सवांत ते उलयताले.

राम भक्तांच्या त्यागांतल्यान अयोध्येंत आतां भव्य अशें राम मंदिर आकार घेता. गोंयच्या लोकांनी तांची सेवा करपाची संद म्हाका परत एक फावट दिल्या ही प्रभू रामचंद्राची कृपा अशें हांव मानतां. गोंयचे जनतेक सुखी, समाधानी दवोरपा खातीर आनी राज्याची सर्वांगी उदरगत करपा खातीर हांव प्रामाणिकपणान यत्न करतलों अशें तांणी सांगलें.

ह्या वेळार दिवचलचो आमदार डॉ चंद्रकांत शेट्ये, आदलो सभापती राजेश पाटणेकार, दिवचलचो नगराध्यक्ष कुंदन फळारी, विश्वहिंदू परिशद गोंय मुखेली आनी आदलो आमदार मोहन आमशेकार, सूर्यकांत देसाय, सजय नायक, महानंदू नायक हाजीर आशिल्ले.

अयोध्येंत राम मंदिर कामांत गोंयचो एक अभियंता आपलें योगदान दिता ही आमचे खातीर अभिमानाची गजाल आसा. गोंयांत राम राज्य हाडपा खातीर नवे पिळगेंत राम भक्त तयार जावपाक जाय. ताचे खातीर भुरग्यांचेर बरे संस्कार करप गरजेचें आसा अशें डॉ सावंत हांणी सांगलें. दिवचलच्या भुरग्यांनी रामोत्सवांत सादर केल्ले कार्यावळी खातीर तांणी तांची तुस्त केली.

कार्यावळींत डॉ सावंत आनी मानेस्तांचे हस्तुकीं श्रीराम पूजन केलें. कार्यावळींत मुखेल वक्ते शांतीसागर हावळे हांचें अभ्यासपूर्ण व्याख्यान जालें. कार्यावळींत श्रीराम पूजन जालें आनी पाळणे गीत सादर केलें. मोहन आमशेकारान सुरवेक सगल्यांक येवकार दिलो. आश्विनी पटवर्धनान सूत्रसंचालन केलें. ह्या वेळार भुरग्यांनी सांस्कृतीक कार्यावळ सादर केली. रामोत्सवाक लोक व्हडा संख्येन हाजीर आशिल्ले.

# मडगांव- पोळें रस्तो सारको करपा खातीर जनार्दन भंडारी हांची 15 कलमी मागणी

भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**काणकोण:** अवतीकाय जाल्लो मडगांव तें पोळे रस्तो सारको करपा खातीर आपल्या मिशन फॉर प्रोग्रेसिव्ह काणकोण वतीन गोंय प्रदेश काँग्रेस समितीची सरचिटणीस जनार्दन भंडारी हांणी केंद्रीय रस्तो येरादारी आनी हायवे मंत्री नितीन गडकरी हांका 15 कलमी मागणी पत्र सादर केलां.

मडगांव- पोळें रस्तो सारको करचो हे खातीर जनार्दन भंडारी वेगवेगळ्या पांवड्यार यत्न करीत आसा. रस्तो सारको करपाचें कंत्राट घेतिल्ल्या कंत्राटदारान काम अर्दवट सोडिल्ल्यान सरकारान ताकां ब्लॅक लिस्टांत घातलां. भंडारी हांणी आतां नितीन गडकरी हांणी हेर केंद्रीय यंत्रणेक निवेदनां सादर करून तांची ह्या रस्ताचे अवतिकाये कडेन लक्ष ओडलां. फाटल्या तीन वर्सां सावन आमी मडगांव- पोळे रस्त्याची दुरूस्ती करात अशी मागणी करीत आसात. मिशन फॉर प्रोग्रेसिव्ह काणकोण वतीन आमी आतां गोंयचो मुख्यमंत्री, बांदकाम मंत्री, राष्ट्रीय म्हामार्ग प्राधिकरणाचो चॅरमन, पीडब्ल्यूडी पीसीई हांका 15 कलमी निवेदन सादर केलां, अशें भंडारीन सांगलें.

मडगांव तें काणकोण, काणकोण तें पोळें आनी मनोहर पर्रीकार बायपास रस्ताचें हॉटमिक्स डांबरीकरण, ह्या रस्त्यांनी जाय थंय स्पीड ब्रेकर घालप, स्पीड लिमीट, मालट्रकांनी कांकी परस चड वजन व्हरचें न्हय हे खाती व्हेईंग मशीन आनी हेर सुचोवणी करपी तकटे घालपाची मागणी तांणी केल्या. मडगांव- काणकोण आनी काणकोण- पोळें मजगतींच्या एनएच- 66 राष्ट्रीय म्हामार्गाची सामकी अवतिकाय जाल्ल्यान काणकोणकारांक येरादारी करपा खातीर त्रास सोसचे पडटात ते खातीर ह्या रस्त्यांची जाता तितल्या बेगीन दुरुस्ती करपाची मागणी मिशन फॉर प्रोग्रेसिव्ह काणकोणान केल्या अशें भंडारी हांणी सांगलें.

निवेदनाच्यो प्रती मुख्यमंत्री, बांदकाम मंत्री, विरोधी पक्ष फुडारी, काणकोणचो आमदार, बांदकाम खात्याचो मुख्य अभियंत्याक भेटयल्यात.

# साश्टी सयत 4 म्हालांक मंत्रीमंडळांत प्रतिनिधित्व ना

## मंत्रीमंडळ तशेंच खात्यां विशीं असंतोश कायम

भांगरभूंय । प्रतिनिधी



*मतदारसंघाची उदरगत हाका म्हजे प्राधान्य आसा. मतदारसंघाचे उदरगती खातीर हांवें सरकाराक तेंको दिला. मंत्रीपद मेळ्ळें ना, तरी म्हजो तेंको आसतलो.*
**— आमदार आलेक्स रेजिनाल्ड**

**पणजी :** साश्टी सयत 4 म्हालांक मंत्रीमंडळांत प्रतिनिधित्व नाशिल्ल्यान कार्यकर्ते तशेंच आमदारां मदीं असंतोश कायम आसा. एकाय अपक्षाक मंत्रीपद दिवंक नाशिल्ल्यान अपक्षांची निरशेवणी जाल्या. कुडटरीचे आमदार आलेक्स रोजिनाल्ड हांकां मंत्रीपद मेळटलें अशी आस्त आशिल्ली. साश्ट, पेडणें, धारबांदोडें आनी काणकोण ह्या म्हालाक मंत्रीमंडळांत प्रतिनिधित्व मेळूंक ना.

डॉ. प्रमोद सावंत हांच्या मंत्रीमंडळाचो शनवारा सोपुतविधी जालो. सुदिन ढवळीकार, सुभाष फळदेसाय आनी निळकंठ हळर्णकार ह्या तीन मंत्र्यांनी सोपूत घेतलो. डॉ. प्रमोद सावंत हांचे सयत आतां सरकारांत 12 मंत्री जाल्यात. पेडणें म्हालांत दोन मतदारसंघ आसात. ह्या म्हालाचो एकलोय मंत्री ना. काणकोण मतदारसंघाचे आमदार रमेश तवडकार हे सभापती आसात. धारबांदोडें म्हालांत सांवडुं मतदारसंघ येता. ह्या म्हालाक प्रतिनिधित्व ना. गणेश गांवकार हांकां उपसभापतीपद मेळपाची शक्यताय आसा. साश्ट म्हालांत आठ मतदारसंघ आसात. भाजपाचे उल्हास तुयेंकार हे नावेलीचे आमदार आसात. ह्या म्हालाचो एकलोय मंत्री ना. दिवचल, सत्तरी, बार्देस, तिसवाडी, मुरगांव, फोंडें, सांगें आनी केपें ह्या म्हालाक प्रतिनिधित्व मेळ्ळां. फोंडें म्हालांत चार मतदारसंघ येतात. चारूय आमदार मंत्री जाल्यात. हाका लागून हेर म्हालांचेर अन्याय जाला, अशी कार्यकर्त्यांची भावना आसा.

तीन अपक्षांनी सरकाराक तेंको दिला. एकाय आमदाराक कसलेंच पद ना. आलेक्स रेजिनाल्ड हांचे सयत डॉ. चंद्रकांत शेट्ये आनी अंतोनियो वाज ह्या अपक्षांचो सरकाराक तेंको आसा. कुडटरीचे आमदार आलेक्स रेजिनाल्ड हे जेश्ठ आमदार आसात. 2007 सावन ते सेगीत कुडटरी मतदारसंघांतल्यान वेंचून आयल्यात. वेंचणुके पयली काँग्रेसीक सोडचीट दिवन तांणी अपक्ष म्हूण वेंचणूक लडयली. सरकाराक तेंको दिवन लेगीत तांकां मंत्रीपद मेळूंक ना.

खात्यां विशीं लेगीत मंत्र्यां मदीं असंतोश आसा. वीज, शिक्षण, समाज कल्याण, पुराभिलेख, वजन, माप, नुस्तेमारी, न्हंय येरादारी या खात्यांचे वांटप जावंक ना. हातूंतलीं खूबशीं खातीं नव्यान सोपूत घेतिल्ल्या मंत्र्यांक मेळटलीं.

# आल्त -पिळर्णां जॉगर्स पार्क

भांगरभूंय । प्रतिनिधी


नोवा सिदाद एक्लेवांत पिळर्ण- मार्रा पंचायतीन विकसीत केल्ले जोगर्ग कम चिड्रन पार्क (अनिल शंखवाळकार)

**पर्वरी:** पिळर्ण- मार्रा पंचायत मंडळान आल्त- पिळर्ण हांगच्या नोवा सिदाद एक्लेवांतल्या मेकळे सुवातेंत जोगर्स कम चिल्ड्रन पार्क विकसीत केलां.

मेकळे सुवातेंत जोगर्स लेन आनी भुरग्यांक खेळपाक बाग तयार करपाची रहिवाश्यांची मागणी आशिल्ले. ती आतां पुराय जाल्या अशें पंचायतीच्या प्रभाग 6चे पंच करण गांवकार हांणी सांगलें. हाचो ज्येश्ठ नागरिकांक पासयेक वचपाक उपेग जातलो

2900 चोखण मिटर सुवातेंत हें जोगर्स आनी चिल्ड्रन पार्क तयार करपाक 71 लाख रुपया खर्च आयला. तातूतली 60 टक्के रक्कम पंचायत निधींतल्यान खर्च केल्या.

पार्कांत मनरिजवणेच्यो कार्यावळी करपाक खातीर स्टेजीची वेवस्था केल्या. फुडल्या पंदरा दिसांत सगलें काम पुराय जातले अशें गोवेकारान सांगलें.

जोगर आनी चिल्ड्रन पार्क तयार करपाचें काम 2019 वर्सा डिसेंबर म्हयन्यांत सुरू केल्लें, मात कोरोना म्हामारीक लागून सुमार देड वर्स अर्दवट रावलें. ज्येश्ठ नागरीक आनी भुरग्यां खातीर हो ड्रीम प्रोजेक्ट आसा अशें करण गोवेकारान सांगलें.

# तुकाराम फोंडेंकार हांच्या नांवान येवजण चालीक लावची: दिगंबर

भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**मडगांव:** गोंयचो म्हान हार्मोनिअम वादक सर्गेत तुकाराम फोंडेंकार हांचे जल्मशती वर्सा निमतान राज्य सरकाराच्या कला आनी संस्कृती खात्यान तरणाट्या कलाकारांक उर्बा दिवपा खातीर येवजण चालीक लावची अशी मागणी मडगांवचे आमदार आनी आदले मुख्यमंत्री दिगंबर कामत हांणी केल्या. सर्गेत फोंडेकार हांणी संगीत रंगभूमीक व्हडले योगदान दिलां ताची दखल सरकारान घेवपाक जाय अशें तांणी म्हणलां.

कला आनी संस्कृती मंत्री गोविंद गावडे हांणी आपल्या खात्या वरवीं गोंयच्या ज्येश्ठ कलाकारांची म्हायती दिवपी पुस्तिका तयार करची जिका लागून फुडले पिळगेक तांच्या वावराची म्हायती मेळपाक शकतली, अशें कामत हांणी एके प्रसिद्धी पत्रकांत म्हणलां. सर्गेस्त तुकाराम फोंडेकार हांणी गोंयचे हौशी आन उत्सवी रंगमाचयेक दिल्लें योगदान खूब मोलाचें आसा. आपल्या हार्मोनिअम वाजोवपाचें खाशेले शैलीन तांणी गोंयकार संगीत मोग्यांचेर मोनेळ घातिल्लो अशें तांणी सांगलां.

दामूअण्णा मालवणकराच्या प्रभाकर नाटक मंडळीत तशेंच सखारामबापू बर्वेच्या नाटक कंपनीत तांणी संगीत साथीचें काम केल्लें. नामनेचे कलाकार रामदास कामत, मनोहरबुवा शिरगांवकर, नरहरीबुवा वळवयकर, कान्होपात्रा, क्षमा वैद्य हांकां तांणी ऑर्गन साथ केल्ली. तांची जल्मशती वर्सा मनोवपाची मागणी पोरू आपणे केल्ली हाची याद दिगंबर कामत हांणी करून दिल्या.

कलेची निसुवार्थपणान सेवा केल्ल्या कलाकारांची दखल घेवन ही सरकाराची लागणूक आसा अशें तांणी सांगलां.

# आडवेळ्या पावसाचो सत्तरी म्हालांतल्या काजींचेर परिणाम

भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**वाळपय:** फाटल्या देड म्हयन्यां सावन पडपी आडवेळाच्या पावसाक लागून सत्तरी तालुक्यांतल्या काजू पिकाचेर परिणाम जावपाक लागला. काजू बागायतदार हाका लागून सामके हुस्क्यांत आसात. ताकां अर्थीक मजत करपा खातीर पर्येची आमदार दिव्या राणेन मुख्यमंत्री डॉ प्रमोद सावंत हांकां पत्र बरयलां.

आडवेळाचो पावस आनी हवामानांत बदल जाल्ल्यान अंदू काजू पीक उणे जायत चल्लां. आतां मेरेन पकत 30 टक्के पीक जालां. ताका लागून काजू बागायतदारांचें अर्थीक लुकसाण जावपाची शक्यताय आसा. काजू बागायतदारांनी दिल्ले म्हायती प्रमाण काजू सिझन सोपपाच्या मार्गार आसा. फाटल्या आठ दिसांत तीन फवट पावस पडिल्ल्यान ताचो वायट परिणाम काजू पिकार जाला.

सत्तरी तालुक्यांतल्यां 70 टक्के काजू उत्पादक आपलें अर्थीक वेवस्थापन पुरायपणान काजू उत्पादनाचेर निंबून आसता. आडवेळार पडपी पावसाक लागून सध्या ते सामके हुस्क्यांत आसात.

आमदार दिव्या राणेकडेन संपर्क सादलो तेन्ना फाटल्या कांय दिसां सावन काजू उत्पादकांकडेन हांवें संपर्क सादलो तेन्ना अंदूच्या काजू सिझनात लुकसाण जाल्ल्याची खबर मेळ्ळी. ताकां सरकारान अर्थीक मजत करची हे खातीर मुख्यमंत्री डॉ प्रमोद सावंत हांका आपणे पत्र बरयलां. ताची फाटपुरवण करून काजू उत्पादकांक सरकारा कडल्यान थाकाय मेळटली हें आपूण पळयतलें अशें तिणे सांगलें.


थिवी रेल्वे स्टेशनांत तयार केल्लो मनरिजवण विसव विभाग

# थिवी रेल्वे स्टेशनांत मनरिजवण विसव विभाग

भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**म्हापशें:** प्रवाश्यांक बरी सेवा दिवपाच्या हेतान कोंकण रेल्वे म्हामंडळान थिवी रेल्वे स्टेशनांत विसोव (ई रिलेक्स झोन) आनी निरोगी (वेलनेस) सुविधा विभागाची उबारणी केल्या. ताचें लोकार्पण म्हामंडळाचे संचालक संतोष कुमार झा हांच्या हस्तुकीं केलें.

ह्या वेळार मुख्य वेवसायीक वेवस्थापक एल के वर्मा, सरवेवस्थापक जोसफ जॉर्ज, विभागीय वेवस्थापक बाळासाहेब निकल, उपवेवस्थापक बबन घाडगे, वरिश्ठ विभागीय येरादारी वेवस्थापक सुनील नारकर, वरिश्ठ वेवस्थापक राजेंद्र गोलप आनी हेर अधिकारा हाजीर आशिल्ले.

व्हो मनरिजवण विसोव विभाग पुराय ॲरकंडिशन्ड आसा. तातूंत वेलनेस खुर्च्यो आनी व्हर्च्युअल रिॲलटी सुविधेसह शॉर्ट फिल्मची सुविधा आसा. प्रवाश्यांक रेल्वे स्टेशनार सुखाचो आनी आरामोच अणभव दिवपी हो उपक्रम आसा. ही सुविधा रेल्वे स्टेशनांत प्लॅटफॉर्म एकाचेर तयार केल्या. कोकण रेल्वे म्हामंडळ रेल्वे स्टेशनात प्रवाश्यांक सुविधा मेळोवन दिवपा खातीर जाता ते यत्न करता. प्रवाश्यांक रेल्वे येवपाची वाट पळयतान बरे भशेन वेळ पासार करपाक मेळटलो अशें संचालक संतोष कुमार झा हांणी ह्या वेळार उलयतना सांगलें.

अशे तरेची सुविधा पुरायपणान ॲरकंडिशन्ड आनी आधुनीक सुविधांनी सज्ज आसा अशें मुख्य वेवसायीक वेवस्थापक एल के वर्मान सांगलें. गोंयांतल्या हेर रेल्वे स्टेशनांनी अशे तरेचो विसोव विभाग सुरू करतले अशें मनरिजवण विभागाचे संस्थापक कमलाक्ष नायक हांणी सांगलें.



# गोंयांत कामा कामा आयुर्वेदाचें स्टोर

भांगरभूंय । पत्रक

**पणजी:** देशातलो आघाडेचो लक्झरी आयुर्वेदीक ब्युटी आनी वेलनेस ब्रँड कामा आयुर्वेद हांणी गोंयांत आपलें पयलें स्टोअर सुरू केलां. पणजे शारांत आझाद मैदाना लागीं सुरु केल्ल्या ह्या स्टोअरांत कामा आयुर्वेदाची स्किनकॅर, हेअरकॅर, बॉडीकॅर उत्पादान गिरायकां मेळटलीं.

कामा आयुर्वेदा आयुर्वेद आनी आर्विल्लें पणाचो मेळ घालून आपलीं उत्पादनां तयार करता आनी सदचे जिणेंत वापर करपा सारकी तीं आसतात. गोंयांत नव्या स्टोअर सुरू करतना आमकां सामकी खोस जाता. गोंयकारांक काळाचे कसवटीचेर देंविल्ली आमची उत्पादना उपलब्द करून दितना आमी आमकां भाग्यवान समजतात अशें कामा आयुर्वेदाचे जोड संस्थापक आनी मुख्य कार्यकारी अधिकारी विवेक साहनी हांणी सांगलें.

गोंयांतल्या आमच्या गिरायकांक आमची कुमकुमादी स्किनकेअर रेंज, ब्रिंगादी इंटेंसिव्ह हेअरकेअर रेंज, प्युअर रोझ वॉटर, नालपमरादी तैलम स्किन ब्राइटनिंग ट्रिटमेंट अशा ब्रँडां वांगडा गिफ्ट सेट मेळटले अशें तांणी सांगलें.

# गुन्यांव रद्द करपा खातीर रुदोल्फ फर्नांडीसाची याचिका

भांगरभूंय । प्रतिनिधी

पणजी: चिंबलची सरकारी जमीन हडप करून तिची विक्री केल्ल्या प्रकरणात पुलीस खात्याच्या गुन्यांव फाट्यान सान्ताक्रजचे तेन्नाचे काँग्रेस पक्षाचे फुडारी आनी सध्याचे आमदार रुदोल्फ फर्नांडीस हांनी हेरां आड गुन्यांव दाखल केल्लो. तो रद्द करपाची मागणी करपी याचिका रुदोल्फ हांणी मुंबय उच्च न्यायालयाच्या गोंय खंडपिठाक सादर केल्या. ताची सुनावणी आयज (11 एप्रील) जातली.

तेन्नाचे उत्तर गोंयचे उपजिल्होधिकारी (महसूल) गुरूदास देसाय हांणी रुदोल्फ हांणी सरकारी जमीन हडप केल्ल्याची कागाळ केल्ली. तांच्या प्रमाण चिंबल हांगा सर्वे नंबर 44-3, 44-1 आनी 44-1 ए हातूंतली26,025 चौखण मीटर सरकारी जमीन रुदोल्फ आनी हेरांनी 1996 सावन गुन्यावकारी कट रचून संबंदीत सरकारी अधिकाऱ्यां आशिर्वादन खाजगी व्यक्तींच्या नांवार केल्ली. ताका लागून तेन्नाचे सरकारी अधिकारी तशेंच रुदोल्फ हांणी हेरांनी अर्थीक लाव मेळयलो. मात ताका लागून सरकाराचे महसुली लुकसाण जालें अशें कागाळेंत नमूद केल्लें.

हे कागाळीची दखल घेवन गुन्याव फांट्याचे तेन्नाचे पुलीस निरीक्षक राजन निगळ्ये हांणी 31 जानेवारी 2019 दिसा रुदोल्फ फर्नांडीस हांचे सयत गुणवंती मोन्तेरो तशेंच सरकारी अधिकारी आनी लाबार्थी आड भारतीय दंड संहितेच्या कलम 409 आनी 420 खाला गुन्यांव नोंद केल्लो. तो रद्द करची अशी मागणी रुदोल्फ फर्नांडीस हांणी याचिका सादर करून केल्या.

# कुठ्ठाळी फेरी रस्त्याचें डांबरीकरण काम सुरू

भांगरभूंय । प्रतिनिधी

वास्को: कुठ्ठाळी फेरी रस्त्याचें फाटल्या कांय वर्सां सावन प्रलंबीत आशिल्ल्या डांबरीकरणाच्या कामाक निमाणे शेनवारा सुरुवात जाली, कुठ्ठाळी पंचायतीचो आदलो पंच आनी कुठ्ठाळीचो आमदार आंतोन वास हाचे हाजेरेंत हें काम सुरू केलें. ह्या वेळार फादर रेक्स हाजीर आशिल्ले. डांबरीकरण कामाक सुमार 1.4 कोटी रुपया खर्च येतलो.

कुठ्ठाळी फेरी रस्त्याचें डांबरीकरण करपाची मागणी थळावे लोक मागणी करीत आशिल्ले. रस्तो इबाडल्ल्यान ताचे वयल्यान वाहनां व्हरप सामकें कुस्तार जातालें. फेरीबोटीचो उपेग करतल्यांक धक्क्यार वाहना व्हरपाक मेळनाशिल्लीं. कुठ्ठाळी पंचायत वाठारांतल्या सगल्या रस्त्यांचें डांबरीकरण करपाचें काम हातांत घेतलो अशे आंतोन हांणी सांगलें. कुठ्ठाळी मतदारसंघांतलो उदका उणावाची समस्या सुटावी करपाचो आणून यत्न करतलों अशें तांणी सांगलें.

# गोंय खंडपीठांत दर शुक्रारा विशेश खंडपीठाची सुनावणी

**पणजी:** मुंबय उच्च न्यायालयाच्या गोंय खंडपिठाचें 18 एप्रील सावन कामकाज सुरू जातलें तेन्ना न्यायमूर्ती व्ही भडंग आनी आर एन लड्डा हाचें विशेश खंडपीठ दर शुक्राक सुनावणी घेतलें. हे विशींचो नोटीस न्यायालयाचे रजिस्टार व्ही आर कछरे हांणी जारी केल्या.

नवीन कामकाजा प्रमाण न्यायमूर्ती सी व्ही सोमार आनी मंगळाराक दिवाणी आनी फौजदारी केशींची सुनावणी घेतले. दर बुधवारा एक सदस्यीय खंडपिठा सामकार फौजदारी केशींची सुनावणी जातली. त्या भायर न्या, महेश सोनक आनी आर एन लड्डा हांच्या खंडपिठा सामकार सोमार तें बुधवारा सुनावणी जातली. खंडपिठाचें कामकाज सकाळीं 10.30 ते 1 आनी उपरांत 2.30 तें 4.30 मेरेन दोन सत्रांत चलतलें.

# अदिती बर्वेच्या 'प्रिय अहिल्या' पुस्तकाचें बुधवारा प्रकाशन

भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पेडणे:** अनुवादक आनी लेखिका प्रा. आदिती बर्वे हाच्या 'प्रिय अहिल्या' पुस्तकाचें प्रकाशन बुधवार 13 एप्रिलाक दनपारां 3.30 वरांचेर पणजे इन्स्टिट्यूट मिनेझिस ब्रागांझा'च्या (आयएमबी) परिशद सभाघरांत जातले. कार्यावळीक मुखेल सोयरे म्हणून डॉ प्रकाश पर्येकार हाजीर रावतले.

आयएमबीचो अध्यक्ष दशरथ परब, अनील सामंत खासा सोयरे म्हणून हाजीर रावतले.

मुळावें शिक्षण खोशयेचें आनी व्यापक जावचें हो ध्यास बाळगून बरयल्ली पत्रां, अभ्यासाच्या वज्या खाला भुरग्यांनी खोशी कशे रावचे हे तांका शिकयनात. तें कशें शिकोवप हाचेर लेखिकेन ह्या पुस्तकांत विचार मांडल्यात.

पुस्तकाक शिक्षण मळार वावुरपी नारायण देसाय हांची प्रस्तावना आसा. बर्वेचो अस्मि हो मराठी कविता झेलो, 'फूटप्रिंट्स इन द सँडस ऑफ टाईम' 'साउदींतले ते दीस' पुस्तकां आसात.

# म्हजो गांव खंय शेणलो ?

सगले रातदीस कश्ट करतात ते अन्न, वस्र आनी आसरो मेळचो म्हूण. मनीस प्राधान्य दिता तो स्वताच्या घराक. खुटी मारून मठी जोडप, असो उल्लेख लोकसाहित्यांत मेळटा. आमच्या गोंयांत घरां बांदपाचें ल्हारूच अदीं मदीं येत आसता. खास करून 1970, 1980 च्या दशकांत भुंयखंड घेवन घरां बांदपी शेंकड्यांनी गोंयकार आशिल्ले. उपरांत फ्लॅट घेवप वाडलें. मागीर लोक बंगले बांदपाक लागले. आयजूय हें बांदकाम नेटान जाता, मात सर्वसामान्यांक सोडाच, स्वराज संस्थांक पसून तांची खबर ना. हाचो अर्थ बेकायदेशीर बांदकामां वाडल्यांत. खोपीच न्हय, बंगले, इमारतीय अळंब्यां सारक्यो वाडत आसात. घर बांदपी मनशांक कोण आडयना. कारण स्वताच्या घामा- कश्टाचो पयसो मोडून तो तें बांदता. पूण हालींच्या कांय वर्सांनी घर वा निवासी इमारत उबी जाता म्हणल्यार गांवकारांक उस्तुरें वता, कारण हातूंतलीं बरींच घरां कायदो मोडून बांदिल्लीं आसतात. पयलीं कुटुंब वाडिल्ल्यान घरांत रावपाक जागो ना, जीणभर भाड्याच्या घरांत रावन आयलो अशा कारणां खातीर नवीं घरां बांदताले. मात, आतां बरेच कडेन फक्त अर्थीक गुंतवणूक म्हूण घरां, फ्लॅट घेवप जाता. हो बदल लक्षांत घेवन व्हडल्यो इमारती उबारपाचो वेवसायूय कांय जाणांनी मळबाक व्हरून तेंकयला. सरकारी आंकडेवारी प्रमाण, बार्देशांत फाटल्या इकरा वर्सांनी चार हजारां परस चड नवीं बांदकामां जाल्यांत. हालींच ह्याच स्तंभांत म्हणिल्ले प्रमाण, गांवांक आतां शारांचें रुप आयलां. कोण कितलोय पयशेकार आसूं. पणजे, म्हापशें, मडगांव, मुंबय, दिल्ली, बंगळूर, लंडन पसून रावूं. तो शिगमो, चवथ, नातालाक गांवघरा पासय मारताच. देखून आपलो गांव हो गांवूच उरचो, अशें ताका दिसता. भुरगेपणांत गांव, थंयचें वातावरण भोगिल्ल्या संवेदनशील गोंयकाराक विचारून पळयात..... मात आतां गांव आनी शारांनी फरक खंय उरला? जिवितांत उदरगत, सुदारणा जावची, पूण नातीं, पर्यावरण, संस्कृतायेचो बळी दिवन न्हय!

**विदेशांतलो पयसो येतकच नळ्यांच्या घराचेर तेर्रास चडटा, हें समजूं येता. ताका कोणूच हरकत घेवचो ना, पूण सैमिक रानां नश्ट जावन कॉंक्रिटाचीं रानां किल्लूंक लागलीं जाल्यार .....**

बार्देसांत 2010 ते 2021 मेरेन 33 पंचायतींनी 2318 बंगले आनी चारां परस चड फ्लॅट आशिल्ल्यो 1194 इमारती उब्यो जाल्यात. म्हापशें पालिका वाठारांत 500 + बांदकामां जाल्यात. सगलींच बेकायदेशीर नात. पूण कोमुनिदाद, शेत आनी बागायती जमनींतूय तीं जाल्यांत, हें चुकीचें. शिरसय, सेरुला कोमुनिदाद, पंचायत वाठारांत चड. (राज्यांतल्यो हेर कोमुनिदादी, पंचायतींनीय हें चल्लां.) सगले आंकडे मेळटात, पूण हांगांचें कांयच कळना. कारण ताची नोंद पंचायती कडेन नाच!!! कांय पंचायतींनी बांदकामांचो आंकडो लिपोवपाक आंकडेवारींत फेरफार केल्ल्याचेंय समजता. हाचो पंचायतीक येणावळीच्या रुपांत कांयच फायदो ना. हीं घरां कायदेशीर करचीं म्हूण कांय वर्सां फाटीं आंदोलनां जाल्यात. प्रकरणां न्हिवल्यांत, न्हिवयल्यांत. हय. लोकांच्या विरोधांत गेल्यार मतपेटयेक बुराक पडत म्हूण भंय. सीआरझेड वाठारांत घरां बांदलीं कांय तीं मागीर कायदेशीर जातात. हांगाय बी......?

इमारती उब्यो रावतात म्हूण दक्षीण गोंयांत आंदोलनां जाल्लीं. तेन्ना हेर लोकांनी तांकां उदरगतीचे विरोधक म्हूण हिणसायले. आतां त्या इमारतींनी रावतात कोण तर चडशे भायले. गांवच्या लोकां मदीं ते मिस्तुराद जायनात. तांचीं आपलीं वेगळीं जुंवीं. गांवांक तांचो फायदो जाता काय ना, तें थळाव्यांकूच चड खबर. घरां वाडटात, तसो गांवांचो भुगोल, 'सभाव', मानसिकताय बदलता आनी हीच खरी भिरांत. ताचे भायर येरादारी, कोयर, वीज, उदक, सिवरेज हाचेरूय ताण येता. बार्देशांतल्या पिळर्ण - मार्रा, कोलवाळ, थिवी, सुकूर, रेईशमागूश गांवांची शारीकरणा कडेन हेरां परस नेटान वाटचाल चल्ल्या. विदेशांतलो पयसो येतकच नळ्यांच्या घराचेर तेर्रास चडटा, हें समजूं येता. ताका कोणूच हरकत घेवचो ना, पूण सैमिक रानां सोंपून थंय कॉंक्रिटाचीं रानां किल्लूंक लागलीं जाल्यार गांवांचेर मोग आशिल्लो कोणूय हाचे आड आवाज काडटलोच. गोंय म्हणल्यार सैम आनी सैम म्हणल्यार गोंय. कॉंक्रिटीकरण वाडत रावल्यार भिंग घेवन आमकां गोंयांतलो सैम सोदचो पडटलो. तो वेळ येवचो न्हय. आमेन.

## हांतरी

### खाश्ट सासूमाय



रामायणातली न्हयकारात्म व्यक्तिरेखा मंथरा रंगोवपी मराठी अभिनेत्री म्हणजे ललिता पवार. कैकयी राणीचे कान फुंकपी मंथरा दासी तिणें सामक्या ताकदीच्या अभिनयान रंगयल्या. ती टीव्हीच्या पडद्यार येताली तेन्ना पळयणाऱ्यांच्या तोंडातल्यान गाळयांचो शिंवर जातालो. पूण, हीच तर खरी तिच्या अभिनयाची पोचपावती आशिल्ली.

एके घडणुकेन ललिताक पडद्यार खलनायिका केले! अभिनया वांगडाच ती सिनेमाचें प्रोडक्शन करपाक लागिल्ली. तिचें सिनेमांतले करियर बेस बरें चलिल्ले. पूण, त्याच वेळार अशी घडणुक घडली, जिका लागून तांची जिणच बदलून गेली. 1942 वर्सा रीलीज जाल्ल्या, 'जंग-ए-आझादी' या सिनेमाच्या सेटार एका शूटिंगा वेळार, भगवान दादा हे ललिता पवार हांच्या मुस्कटार मारतात, असो सीन चित्रावपाचो आशिल्लो. तें थापट बरेंच नेटान बसलें. तांच्या दोळ्याक घावो जालो. कुडीच्या दाव्या भागाक आर जाली. ललिता पवार हिचेर तीन वर्सां उपचार चलताले. ती बरी जाली, मात अर्धांगाक लागून तिका दावो दोळो वगडावचो पडलो. मुखामळूय कुरूप, विद्रूप जालें.

हे घडणुकेक लागून रुप इबाडिल्ल्यान नायिका जावपाचें तिचें सपन तुटलें.... .पूण तिणें हार मानूंक ना. थंयच जल्म जालो एका कुसक्या, दुश्ट, खाश्ट मांयचो. तिणें 700 परस चड सिनेमांनी काम केलां. राज कपूरा वांगडा श्री 420 सिनेमांत तिणें केल्ली भुमिका कोण विसरपाक शकता?

तिका गावपाकूय येतालें. मात हें चडश्या लोकांक खबर ना. अर्धांगवायू कडेन तिणें यशस्वी झूज दिलें, मात कॅन्सरा कडेन ती हारली. 24 फेब्रुवारी 1998 दिसा ही सासू संवसारांतल्यान सांसणा खातीर पयर गेली.

....पुण्या आशिल्ल्या तिच्या फ्लॅटांत ती एकटीच रावताली...... तीन दीस, ती आपल्या फ्लॅटांत मरिल्ले अवस्थेंत पडिल्ली, पूण कोणाक कांय कळ्ळेंच ना. मागीर कळ्ळें ती सगल्यांक सोडून फुडले भोंवडे खातीर वचपाक भायर सरल्या म्हूण... कोणाक कळयनासतना.

**एकनाथ सामंत**
**9226219723**



# स्वास घेवपाक जाय नितळ वारो

संवसारीक वायू गुणवत्ता अहवाल हालींच प्रकाशीत जालो. खंयच्याय देशान संवसारीक भलायकी संघटणेच्या (WHO) वर्सुकी वायू गुणवत्तेच्या मार्गदर्शक तत्त्वांची पूर्तताय करूंक ना, अशें हातूंत म्हणलां. ह्या अहवालांत 117 देश आनी तातूंतल्या 6475 शारांच्या निरीक्षणाचें विश्लेशण आसा.

Particulate Matter 2.5 (PM 2.5) म्हळ्यार प्रदुशण करपी घन पदार्थ, जे चड करून कार्बनाच्या कणांतल्यान आनी दंवाच्या मिश्रणान तयार जातात आनी तांची लांबाय, रूंदाय 2.5 मायक्रोमिटर हे सरासरीची आसता.

संवसारीक वायू गुणवत्ता अहवाल 2021 वाऱ्याच्या गुणवत्ता मार्गदर्शक तत्त्वाच्या पांवड्याचेर आदारीत पयलोच मुखेल असो संवसारीक गुणवत्ता अहवाल आसा. नवीं मार्गदर्शक तत्त्वां फाटल्या सप्टेंबरा सावन लागू जाल्यांत. हातूंत PM2.5 चीं मार्गदर्शक मुल्यां 10 g/m3 वयल्यान आतां 5 g/m3 केल्यांत. सूक्ष्म कणांक लागून जावपी प्रदूशण, म्हळ्यार PM2.5 म्हण आमी समजून घेवंक शकतात. हे सूक्ष्म कण खुबूच घातकी आसतात. जायते फावटीं ते पुल्मांवाच्या आनी काळजाच्या दुयेंसाक निमित्त जावं येतात. फकत हाकाच लागून दर वर्सा लाखांनी लोक आपलो जीव वगडायतात.

अहवालांतल्या 93 शारां मदल्या वर्साची PM2.5 सरासरी WHO च्या PM2.5 मार्गदर्शक तत्त्वांच्या 10 पटींनी चड आसा. हातूंत भारतांतल्या कितल्याश्याच शारांचो आसपाव आसा. 2021 वर्सांतल्या पयल्या पांच प्रदूशीत देशां मदीं भारत पांचव्या क्रमांकाचेर आसा तर बांगलादेश पयल्या क्रमांकाचेर आसा. चीन, पाकिस्तान, ताजिकिस्तान हे हेर आशियायी देश पयल्या पांचां भितर आसात.

भारताची राजधानी नवी दिल्ली हें सेगीत चवथ्या वर्सा संवसारांतलें सगल्यांत प्रदूशीत शार म्हण जाहीर जालां. अजापाचें म्हळ्यार 2021 चीनांतली वाऱ्याची गुणवत्ता कांय प्रमाणांत सुदारिल्ल्याचें दिसून आयलां. जाणकारांच्या मतान तांणी, कार्बन उत्सर्जन नियंत्रीत केलां आनी कोळशा वयले विजेचें उत्पादन खूबशें कमी केलां. त्याच बरोबर तांणी हेर सैमीक ऊर्जा उत्सर्जनाचेर भर दिला.

**अजापाचें म्हळ्यार 2021 चीनांतली वाऱ्याची गुणवत्ता कांय प्रमाणांत सुदारिल्ल्याचें दिसून आयलां. जाणकारांच्या मतान तांणी, कार्बन उत्सर्जन नियंत्रीत केलां आनी कोळशा वयले विजेचें उत्पादन खूबशें कमी केलां. त्याच बरोबर तांणी हेर सैमीक ऊर्जा उत्सर्जनाचेर भर दिला.**

भारताची वर्साची PM2.5 पातळी 58 g/m3 चेर पावल्या. 2021 वर्सा आशियांतल्या पयल्या 15 प्रदूशीत शारां मदलीं 11 शारां भारतांतलीं आसात. हुस्क्याची गजाल. आमच्या भारतांतल्या 48 % शारांनी 50 g/m3 परस चड PM 2.5 ची नोंदणी जाल्या. येरादारी उत्सर्जन, वीजनिर्मिती, औद्योगीक कोयर आनी सेंद्रीय पदार्थ लाशिल्ल्यान वायू प्रदूशण जाता. तशेंच चड करून भारतांत रांदनीर रांदप आनी कांय पारंपारीक शेताच्या कामांनी मोट्या प्रमाणांत PM2.5 चें उत्सर्जन जाता. सध्या BS-VI नेम युरो 6 नेमा सारके आसात. भारतांत BS-III आनी BS-IV इंजिनाच्या गाडयांचो उपेग आमी खूब पळोवपाक शकतात. वाऱ्याचें प्रदुशण जावचें न्हय म्हण नेम आसात. पूण नेमांचें अनुकरण मात जाल्लें चड दिश्टी पडना.

आयज येरादारी प्रचंड प्रमाणांत वाडल्यात. रस्त्याचेर कितल्योश्योच गाडयो काळो धुंवर सोडटना आमी सदांच पळयतात. जातूंत मुखेलपणान PM2.5 आसता. हातूंत सरकारी गाडयो बी आसतात, ही एक हांसपाची गजाल. तरी आयज सरकारान नव्यो बॅटरेचेर चलपी बशी रस्त्यार हाडल्यात. त्यो जरी धुंवर ओंकीनात तरी पर्यावरणाचे नदरेंतल्यान त्यो कितल्यो फायद्याच्यो थारतल्यो हो एक चर्चेचो विशय आसा. आतां लोकूय इलेक्ट्रीक गाडयो घेवपाक लागल्यात, मात तांचें मोल सर्वसामान्यांक परवडपा सारकें जावपाक जाय.

बरी गजाल म्हळ्यार न्यू कॅलेडोनिया, यूएस व्हर्जिन जुवीं आनी पोर्तो रिको ह्या शारांनी WHO च्या PM2.5 गुणवत्ता मार्गदर्शक तत्त्वांची पूर्तताय केल्या. हें सत् आसा की खंयच्याय देशान आपल्या नागरिकांक संवसारीक भलायकी संघटणेच्या वाऱ्याचे गुणवत्तेच्या नेमान सुरक्षीत आनी निरोगी वातावरण दिवंक ना. दरेकाक स्वास घेवपाक सुरक्षीत आनी नितळ वारो मेळपाक सगल्या देशांच्या सरकारांनी आनी सामान्य नागरिकांनी मेळून काम करपाची गरज आसा.

वायू प्रदूशण आमचे भलायकेचें आनी अर्थवेवस्थेचें कशें लुकसाण करपाक शकता हें जण एकल्यान समजून घेवंक जाय. कोळसो, तेल आनी सैमीक वायू तशेंच हेर सेंद्रीय पदार्थ लाशिल्ल्यान कार्बन कणांचें वायू प्रदूशण जाता. वायू प्रदूशण कमी करपा खातीरय नव्या दुसरे तरेच्या ऊर्जा तंत्रज्ञानाचो उपेग करपाक जाय.

वायू प्रदूशणा वयले उपाय हे ग्लोबल वॉर्मिंगांचेरय निर्णायक थारतले हे विशीं कसलोच दुबाव ना. नितळ वाऱ्यान स्वास घेवप हो मनशाचोच विशेश अधिकार न्हय जाल्यार सगल्या जनावरांचोय मुळावो हक्क आसा.

( ईमेल - mithil.faldesai@shreemallikarjuncollege.ac.in)

## होमखण

**डॉ. मिथील फळदेसाय**
काणकोण

## सालांत

# विद्यार्थ्यांक भांगराळी संद

गोंय जशें शिक्षणाच्या मळार फुडें आसा तशें येवजणो चालीक लावपाकूय फुडें आसा. फाटल्या वर्सा मानादीक मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंत हांणी गोंयच्या शाळांनी आधुनीक तंत्रज्ञानाची दखल घेवन कोडींग आनी रोबोटीक्स हे विशय चालीक लायतले अशी घोशणा केल्ली आनी ते विशय चालिकूय लागले. अशें करपी गोंय हें देशांतलें पयलें राज्य थारलां. खाशेली गजाल म्हळ्यार केंद्र सरकार ही येवजण चालीक लावपी शाळांक धा लाख रुपयांची मजत दिता. जी शाळा ही येवजण चालीक लायता तिका अद्ययावत प्रयोगशाळा उबारपाक अनुदान दिता. जाचो लाव विद्यार्थ्यांक जातलो. दरेका विद्यार्थ्या मदीं सृजनशीलता, जाणून घेवपाची उमेद आसता, प्रस्न विचारपाची उत्सुकता आसता. ताका हेच पिरायेर जर हें सगलें आधुनीक तंत्रज्ञानाचे मजतीन चालीक लावंक मेळत तर ताचो लाव त्या विद्यार्थ्याक, पालकाक तर जातलोच खेरीज आमच्या देशाकूय जातलो.

आमच्या ल्हान विद्यार्थ्यांक स्मार्ट फोन ही संकल्पना नवी न्हय. रोजगाराचे नदरेन तशेंच आत्मनिर्भर जावपाचे नदरेन कोडींग आनी रोबोटीक्स विशय जशे म्हत्वाचे तशे प्रयोगशाळेच्या उपकरणांचे मजतीन नव्यो कल्पना चालीक लावंक विद्यार्थ्यांक मजत जावची म्हणून नीती आयोगाची स्थापना जाली. पयले प्रधानमंत्री पंडीत जवाहरलाल नेहरू हांणी नियोजन आयोग सुरू केल्लो तो बरखास्त करून ताचे सुवातेर नीती आयोग सुरू केलो.

जशें आमी खेळांत 'कॅच देट यंग' म्हणटात तेच धर्तीचेर विद्यार्थ्यां मदले सृजनशीलतायेक चालना तशेंच प्रोत्साहन मेळचें ह्या हेतान अटल क्लबाची कल्पना फुडें आयल्या. विज्ञान अभियांत्रिकी आनी गणीत म्हळ्यार स्टीम ह्या विशयाचेर लॅबाची येवजण निंबून आसा. हे विशय प्रॅक्टीकलाक लागीं आशिल्ल्यान विद्यार्थ्यांक ते आवडचे हे खातीर आमी यत्न करूंक शकतात.

एका तेंपार आमी शिक्षक करतात ते प्रयोग पळयताले, पूण हे येवजणेन विद्यार्थी उपकरणां हाताळूंक शकतात आनी प्रयोग करूंक शकतात. हातूंत तांकां अणभव तर मेळटलोच पूण आपणें आपल्या हातांतल्यान कितें तरी केलें हें समाधान मेळटलें. आदीं विद्यार्थी शिक्षकांनी केल्ले प्रयोग पळयताले तातूंत तांची उमळशीक वाडटाली हें खरें, पूण तांकां उपकरणां हातांत घेवन तशेच प्रयोग करपाक मेळनाशिल्लें. हे येवजणेन ती अडचण पयस केल्या. विद्यार्थी शिक्षकांच्या मार्गदर्शना खाला प्रयोग करूंक शकतले. गोंया खातीर जांची मार्गदर्शक म्हणून नेमणूक जाल्या मोहिनी गडेकार नायक हीं फातोर्ड्यांचे डॉन बॉस्को अभियांत्रिकी कॉलेजींत अध्यापन करतात आनी हे येवजणेची म्हायती दिवपाचें काम खात्याचो मोबदलोय घेनासतना करता. हे येवजणेचो गोंयच्या विद्यार्थ्यांक हाचो लाव जावचो हे खातीर ती हें काम नवे पिळगेक कितें तरी नवें करचें अशें दिसता. गोंयांतूच कितल्योश्योच समस्या आसात तेंच कित्याक आमचे सरभोंवतणी लेगीत समस्या आसात, तांचें निरीक्षण करून विद्यार्थी ताचेर उपाय सोदूंक शकतात.

अशें म्हणटात की समस्या जाप घेवुनूच येत आसता. आमीच खंय तरी उणे पडटात. आधुनीक तंत्रज्ञानाचे मजतीन आमी हे समस्येचेर उपाय काडूंक शकतले हाचो मोहिनी गडेकार नायक हांकां विस्वास आसा. हे येवजणेची म्हायती एस. सी. आर. टी. पर्वरी हे गोंयचे शिक्षणीक अभ्यास संस्थेन मोहिनी नायक हांचे मजतीन गोंयभर पावयल्या. तरी लेगीत जर कोणाकूय कितेंय विचारपाचें आसा वा जाणून घेवपाचें आसा वा एकाद्री कार्यशाळा आपल्या वाठारांत दवरपाची आसा तर तांणी मोहिनी नायक हांचे कडेन मुजरत संपर्क सादचो. तीं आपल्या वेळा प्रमाण तुमकां दीस थारावन दितली. तांचे कडेन तुमी mohininaik40@gmail.com हे ईमेलीचेर चेर वा 9823509033 ह्या मोबायलाचेर संपर्क सादूंक शकतात.

**एका तेंपार आमी शिक्षक करतात ते प्रयोग पळयताले, पूण हे येवजणेन विद्यार्थी उपकरणां हाताळूंक शकतात आनी प्रयोग करूंक शकतात. हातूंत तांकां अणभव तर मेळटलोच पूण आपणें आपल्या हातांतल्यान कितें तरी केलें हें समाधान मेळटलें.**

खूब फावटीं आमी अर्थीक अडचणी खातीर विद्यार्थ्या खातीर कितेंय करूंक पावनात पूण हांगा केंद्र सरकार तुमकां अर्थीक मजत दिवपाक तयार आसा. ताचो लाव आमी जरूर घेवपाक जाय. खूब फावटीं विद्यार्थ्यां मदीं हावेस आसता, नवें कितें तरी करपाची खुमखुमी आसता. आपल्या हातांतल्यान नवेंच कितें तरी निर्माण जावचें अशें तांकां दिसता, पूण तांकां संद दितलो कोण? आमीच ती तांकां दिवया.

**(लेखक करियर मार्गदर्शक आसात.)**

**प्रा. रामदास केळकार**
**9822583275**

## म्होंवाचें बोट

### बरेपण

*बरेच दीस जाले, बरेपणाचेर दोन उतरां बरयतलें म्हूण येवजीतालें. वेंचणुको बी जावुनी म्हळें आनी ताचे उपरांत निकाल. कारण बरेपणाचो घसघसो व्हांवता ताचो देखावो ह्याच वेळार चड पळोवंक मेळटा. फुडें मागीर तें बरेपण कशे तरेन विरगळुन नाच्च जाता वा अदिक दाट जाता हाचेंय चित्र झळकता. बरेपण जोडप आनी तोडप आतां काळांत सामकें सोपें जाला. मांय- सुनेलें बरेंपण ना वेगळी रावलीं, घोव- बायले मदीं बिनसलें घेतलो घटस्फोट, इश्ट-इश्टीणी भीतर धुसफुसलें की दोन तोंडा दोन दिशेक आनी शेजाऱ्या कडेन वा हेर कोणा कडेन पेटलें की तांचो छत्तीसावो आकडो अशें आमच्यांत उलोवपाची पद्दत आसा. हाचो अर्थ बरेपणाच्या विरुद्ध वायटपण.*

*एखाद्या कडेन चड दाटी आसली काय तें बरेपणुय थोड्यांच्या दोळ्यांत खुपसता. हालीं तर घरांत काम करतल्या वावराडे कडेन मोठ्या प्रमाणांत बरेपण दवरपाची तरा निर्माण जाल्या. कारण तिच्या बगर घरसंवसार थोटो, चाकांच फुडे वचनांत, सगळेंच अडटा. इश्टागत तिगोवन दवरपाक केन्ना-केन्ना फट आसल्यार वा वायट दिसल्यार लेगीत हेंहेंहेंहें करून हांसत, तूं म्हणटा तें खरें आनी बरें म्हणत मान हालोवन हयबा करचें पडटा.*

*आतां काळांत पूण जो बरेपणान 'मानग्या तुजी फाट मोंव मगोम्हणत जगता तो शाणो, कारण खरखरीत, काटे आसा म्हळें जाल्यार पडलो फोणान. तेन्ना आमी मुयें रूपान साकर खावया आनी कासवा सारकी बोडकी भीतर ओडुन, गोगलगाय सारके पोटांत पांय लिपोवन सगल्यां कडेन तुमीच बरीं, तुमीच शाणी म्हणत जगया. हळशीकेंत फातर मारून ती आंगार उसळुन घेवप ना. बरेपणाचेर तें वाशीन.*

**शांतन पावसे**
**9423835358**

■ **मुद्रक आनी प्रकाशक प्रमोद आचार्य** हांणी प्रुडंट मिडिया (गोवा) प्रा.लि. गोंय हांचे वतीन हें पत्र एलेगंट ऑफसेट प्रिंटर्स प्रा. लिमिटेड, प्लॉट नं. **2-3-4**, थिवी इंडस्ट्रीयल इस्टेट करासवाडो, म्हापशें-गोंय हे सुवातेर **छापून** दुसरो माळो, फोर्थ इस्टेट (कामत मॅट्रोपोलीस) सांत इनेज, पणजी-गोंय हांगां **प्रकाशीत** केलें.

■ **संपादक: महेश महादेव दिवेकार** (पीआरबी कायद्या खाला संपादकी जबाबदारी) ■ **पणजी कचेरी:** दुसरो माळो, फोर्थ इस्टेट (कामत मॅट्रोपोलीस) सांत इनेज, पणजी-गोंय हे सुवातेर उजवाडायलें. फोन नं. **2405952**.

■ **ई-मेल: bhaangarbhuin@gmail.com** (बातम्या खातीर) **bhaangarbhuineditorial@gmail.com /** (लेख आनी साहित्या खातीर ) **/ bhaangarbhuinadvt@gmail.com** (जायरातीं खातीर). ■ **सुचोवणी :** अंकात व्यक्त जावपी मतां कडेन संपादक-प्रकाशक-मालक सहमत आसतलेच अशें ना. मजकुराची जापसालदारकी बरोवपी- जायरातदार हांची आसतली.

# रक्तदाना विशींचे गैरसमज पयस करप गरजेचें : डॉ. दिव्या राणे

## वाळपय मतदारसंघांत रक्तदान शिबिराचें आयोजन

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**वाळपय :** सगळ्यां परस रक्तदान हें सगळ्यांत श्रेश्ठ दान. रक्तदाना वरवीं आमी दुसऱ्याचो जीव वाटावपाक शकतात. रक्तदान केल्या उपरांत मनशाची भलायकी इबाडटा, अशे तरेचे गैरसमज समाजांत पातळ्ळ्या. पूण हें खरें न्हय. रक्तदान केल्या उपरांत भलायकी घटमूट जाता. ताका लागून प्रत्येकान रक्तदान करप गरजेचें. रक्तदानाविशीं आशिल्ले गैरसमज पयस करप सामकें गरजेचें अशें वाळपय मतदारसंघाची आमदार डॉ. दिव्या राणे हांणी सांगलें.

वाळपय मतदार संघ भाजपा मंडळा वतीन वाळपय आयोजीत केल्ल्या रक्तदान शिबिराचे उक्तावण कार्यावळीक ती उलयताली.

ह्या वेळार तांणी आपल्या भाशणांत रक्तदानाविशीं म्हायती दिली. तशेंच रक्तदान करपा खातीर म्हत्वाचें योगदान दिवपी रक्तदात्यांक येवकार दिलो. सत्तरी म्हालांत रक्तदानाविशीं जागृताय जावप गरजेचें. ताका लागून येवपी काळांत अशे तरेचे उपक्रम राबोवपाचे नदरेन यत्न करतले अशें आस्वासन तिणें दिलें.



वाळपय आयोजीत रक्तदान शिबिराक हाजीर आशिल्ली आमदार डॉ. दिव्या राणे. वांगडा सेहझीन शेख, विनोद शिंदे, देवयानी गांवस, राजश्री काळे, डॉ सचिन पालेकार, डॉ. शाम काणकोणकर, डॉ.अभिजीत वाडकार, विनोद हळदणकार, तेरेझा आंद्राद आनी हेर.

ह्या वेळार माचयेर वाळपय नगरपालिकेची नगराध्यक्ष सेहझीन शेख, वाळपय भाजपा मंडळाचे अध्यक्ष रामनाथ डांगी, नगरसेवक विनोद हळदणकार, गोवा मॅडिकल कॉलेजच्या रक्तपेढी विभागाचे डॉ. सचिन पालेकार, डॉ. पास्कॉल, केरी जिल्हो पंचायत वांगडी देवयानी गांवस, नगरगांव जिल्हो पंचायत वांगडी राजश्री काळे, भिरोंडा पंचायतीचे सरपंच तेरेझा आंद्राद, वाळपय सरकारी सामाजीक हॉस्पिटलाचे भलायकी अधिकारी डॉ. श्याम काणकोणकार, वरीश्ठ वैजकी अधिकारी डॉ. अभिजीत वाडकार सामाजीक कार्यकर्ते तशेंच संयोजक विनोद शिंदे, पत्रकार उदय सावंत आनी हेर हाजीर आशिल्ले.

डॉ. सचिन पालेकार हांणी, रक्तदाना संबंदी आजूनय व्हड प्रमाणांत गैरसमज आसा. पूण ह्या गैरसमाजाचेर विस्वास दवरिनातना प्रत्येकान रक्तदानाविशीं खरी म्हायती जाणून घेवप गरजेचें अशें तांणी म्हणलें.

डॉ. शाम काणकोणकार हांणी, रक्तदाना विशीं आशिल्लो गैरसमज पयस करपा संबंदी मार्गदर्शन केलें.

सुरवातेक माचयेर हाजीर आशिल्ल्या मानेस्तांक फुलांचो तुरो भेटोवन येवकार दिलो. मंडळाचे अध्यक्ष रामनाथ डांगी हांणी उपकाराचें उलोवप केलें.

पुराय कार्यावळीचें सुत्रसंचालन उदय सावंत हांणी केलें आनी उपकार मानले. रक्तदान शिबिरांत व्हड प्रमाणांत रक्तदात्यांनी वांटो घेतलो.

रक्तदान शिबीर येसस्वी करपा खातीर वाळपय सरकारी सामान्य रुग्णालयाच्या कर्मचाऱ्यांनी बरे तरेन सहकार्य केलें.



कवळें - निरोप सुवाळ्याक यत्ता चवथेच्या विद्यार्थ्यां वांगडा मुख्याध्यापिका माधवी कपिलेश्वरकार, शिक्षक आनी शिक्षकेत्तर कर्मचारी.

## कवळेंच्या सरस्वती प्राथमिक विद्यालयांत जालो निरोप सुवाळो

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**सावयवेरें:** कवळेंच्या श्री सरस्वती प्राथमीक विद्यालयांत अंदूंच्या 2021 - 22 वर्साच्या यत्ता चोवथेच्या विद्यार्थ्यांचो निरोप सुवाळो हालींच जालो.

ह्या निरोप समारंभाक विद्यालयाची मुख्याध्यापिका माधवी कपिलेश्वरकार, शिक्षक वर्ग साक्षी नायक, शुक्ला नायक, गीतेश वेरेंकार, पूजाली रामनाथकार आनी प्रतिभा पेडणेंकार तशेंच शिक्षकेत्तर कर्मचारी सिंधू नायक, सत्यवती नायक, रेणुका नायक आनी मयूर नायक हाजीर आशिल्लीं.

ह्या वेळार सगळ्या शिक्षकां वतीन विद्यार्थ्यांक मार्गदर्शन करून तांच्या फुडल्या शालेय शिक्षणा खातीर परबीं भेटयलीं. विद्यार्थ्यां वतीन गुरुवंश फडते, दक्षता नायक, सार्थक सुर्लकार, पीहू नायक, मनाली नायक, रविष्का नायक, सार्थक फडते, समर्थ डोंगरे, दत्ताराम गवस, भार्गवी नायक, सलोनी तोपोषसिंग आनी साईशा नायक हांणी शाळा आनी शिक्षणाविशीं आपले विचार उक्तायले. शाळे वतीन सगळ्या विद्यार्थ्यांक भेटवस्त भेटयल्यो.

## करासवाडो साईश्रध्दा देवळांत जालो प्राणप्रतिश्ठापना सुवाळो

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**म्हापशें :** साईनगर करासवाडो म्हापशें हांगच्या श्री साई श्रध्दा देवळाच्या प्राणप्रतिश्ठापना सुवाळ्या वरवीं श्री साई बाबांच्या मुर्तीची स्थापना केली.

बाबू कांदोळकार आनी साईशा कांदोळकार हांच्या यजमानपदाखाला विंगड विंगड धर्मीक विधीं वांगडा श्रीचीं प्राणप्रतिष्ठापना जाली. जयपूर राजस्थानाच्यान ही खास मुर्ती करून हाडली. ह्या सुवाळ्या निमतान पुरयत नारायण कृष्णा भट हांच्या मार्गदर्शनाखाला विंगड विंगड धर्मीक विधीं वांगडा देवळाचेर कळसाची स्थापना केली.

उपरांत विंगड विंगड धर्मीक विधी होमहवन करून श्री साईंची प्राणप्रतिष्ठापना केली. दनपरां महाआरती, तिर्थप्रसाद आनी म्हाप्रसाद जालो.

## मुरगांवां सैमीक वायू पुरवणेच्या कामाचें उक्तावण

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**मुरगांव:** इंडियन ऑय्ल अदानी गॅस प्रायव्हेट लिमिटेडान वास्कोचे आमदार कृष्णा दाजी साळकर हांचे हाजेरींत पाय्पा वरवीं सैमीक वायू पुरवणेच्या कामाचें उक्तावण केलें.

ह्या वेळार कदंब म्हामंडळाचे चेअरमन दीपक नायक, नगरसेविका शमी साळकार, नगरसेवक गिरीश बोरकार, इंडियन ऑय्ल अदानी गॅस प्रायव्हेट लिमिटेडचे प्रकल्प वेवस्थापक सचिन पठारे आनी हेर अधिकारी हाजीर आशिल्ले. हांगच्या हॉटेल रुक्मिणी लागसारा ह्या कामाचो शुभारंभ वास्कोचे आमदार कृष्णा साळकार हांचे हस्तुकीं केलो.

आमदार साळकार हांणी, वास्कोकारांक पाय्पा वरवीं सैमीक वाऱ्याची पुरवण जातली हाची आपल्याक खोस भोगता. हे सुविधायेक लागून लोकांक त्रास सोंसचे पडचे ना, अशें तांणी म्हणलें.

प्रकल्प वेवस्थापक सचिन पठारे हांणी, गॅस पाय्प लाय्नी वरवीं गॅस सप्लाय सुरक्षीत आसा. इकोनॉमीकल तशेंच 24/7 हाची जातली. झुआरी नगरांत सीएनजी, कुठ्ठाळे, बिर्ला सुरू जाल्ल्याचें तांणी म्हणलें. लोकांक बरे तरेन सर्वीस दिवपाचे आमी यत्न करता, अशें तांणी म्हणलें.

# भुरग्यांक पुराय उदरगत जातली अशें शिक्षण गरजेचें : करोल

## केरी विववेकानंद शिशू संस्कार केंद्राचो इनामां भेटवण सुवाळो उमेदीन



इनामां फावो जाल्ल्या विद्यार्थ्यां वांगडा मानेस्त, पालक आनी शिक्षक.

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**वाळपय:** भुरग्यांची पुराय उदरगत जातली, अशें शिक्षण तांकां दिवप गरजेचें. केरी सत्तरी हांगच्या विवेकानंद ज्ञान मंदिरांतल्या भुरग्यांची पुरायेन उदरगत जावचे खातीर विवीध उपक्रम राबयतात. ही तोखणाय करपा सारकी गजाल, अशें आदले पंच वांगडी आनी सामाजीक कार्यकर्ते उस्मान करोल हांणी सांगलें.

केरी, सत्तरी हांगच्या स्वामी विवेकानंद स्मृती संघ शिक्षण संस्था संचालीत विवेकानंद शिशु संस्कार केंद्राचो वर्सुकी इनामां भेटवण सुवाळो विद्यालयांत उमेदीन जालो. ह्या सुवाळ्यांत केरीचे सामाजीक कार्यकर्ते तशेंच आदले पंच उस्मान करोल हे हाजीर आशिल्ले. पत्रकार तशेंच संस्थेच्या वेवस्थापन मंडळाचे वांगडी नीलेश शेटकार, संस्थेचे आदले अध्यक्ष नामदेव गांवस तशेंच विवेकानंद ज्ञान मंदीर हायस्कुलाची ज्येश्ठ शिक्षिका सिंथिया फर्नांडीस कार्यावळीक हाजीर आशिल्ली. मानेस्तां हस्तुकीं विद्यार्थ्यांक इनामां भेटयलीं. येवकार, प्रास्तावीक नामदेव गांवस हांणी केलें.

नामदेव गांवस हांणी ह्या वेळार विद्यार्थ्यां वतीन आयोजीत विंगड विंगड उपक्रमांची म्हायती दिली.

कार्यावळीचें सुत्रसंचालन विद्यालयाची मुखेल शिक्षिका आरवी सावंत हांणी केलें. ही कार्यावळ येसस्वी करपा खातीर शिक्षिका रझिया शेख, पूजा शेटकार, अर्जुन गांवकार हांणी विशेश सहकार्य केलें. हे कार्यावळीक व्हडा संख्येन पालक हाजीर आशिल्ले.



सावयवेरेंच्या श्री अनंत देवळांत श्रींच्या दर्शना खातीर जाल्ली गर्दी.

## सावयवेरेंच्या अनंताच्या देवळांत रामनमी निमतान साबार कार्यावळी

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**सावयवेरें :** सावयवेरेंच्या श्री अनंत देवळांत रामनम विवीध धर्मीक तशेंच सांस्कृतीक कार्यावळींनी उमेदीन मनयलो. कोरोना म्हामारीच्या संकश्टा उपरांत पयलेच फावट व्हडा उमेदीन हांगा रामन मनयली. ह्या वेळार भाविकांनी गर्दी केल्ली.

ह्या निमतान सकाळीं श्रीचो अभिशेक, नैवेद्य, उपरांत विवेक बुवा जोशी हांच्या सुश्राव्य किर्तनाची कार्यावळ जाली. तांकां योगानंद केरकार आनी विदेश च्यारी हांणी साथ दिली. दनपरां 12 वरांचेर परंपरीक रितीन भजन किर्तनान श्रीराम जल्म उत्सव मनयलो. दनपरां 1 वरांचेर आरती, तिर्थर्थप्रसाद आनी म्हाप्रसादान हो सुवाळो सोंपलो.

## साळांत श्रीराम जल्म सुवाळो भक्तीभावान

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी




साळांतल्या श्री सिद्धेश्वरच्या आंगणांत श्रीराम जल्म सुवाळ्या वेळार पाळणें गीत गातना हाजीर आशिल्ल्यो बायलो. (विशांत वझे)

**दिवचल:** साळांतल्या श्री सिद्धेश्वर देवळाच्या आंगणांत श्रीराम जल्म सुवाळो उमेदीन मनयलो. पुरयत महेश मराठे हांच्या पुरयतपणा खाला यजमानी श्रद्धा आनी शरद निळकंठ हांणी धर्मीक विधी केल्यो. सुरवातेक श्रीराम स्थापना जाली. उपरांत 12 वरांचेर श्रीराम जल्म सुवाळो, श्रीरामाक पाळण्यात घातल्या उपरांत सुरेखा राऊत, निकिता राऊत, सीमा राऊत, वंदना राऊत, भागिरथी राऊत हांच्या मार्गदर्शनाखाला हाजीर आशिल्ल्या सगळ्या बायलांनी पाळणें गीतां आनी राम गीतां गायलीं. तांकां अभिषेक राऊत हांणी पेटी आनी गजानन राऊत हांणी तबल्याचेर साथ केली. उपरांत तिर्थप्रसाद वाटलो.

नकूळ राऊत हांच्या वेवस्थापनाखाला पावणेक सुरुवात जाली. ही सगळी कार्यावळ विद्याधर राऊत, दिलीप राऊत, यशवंत राऊत, शिवानंद राऊत आनी हेरांच्या वेवस्थापना खाला उमेदीन जाली. रातचें तीन अंकी नाटक 'उंबरठ्यावरी माप ठेविले' हें श्री सिद्धेश्वर नाट्य मंडळ - वयलो वाडो साळ वतीन सादर केलें.



ओशेलचे रामनमीक वांटेकार जाल्ले भावीक. (जयेश नायक )

## ओशेलांत रामनम भक्तीभावान

■ भांगरभूंय । बातमीदार

**शिवोले :** राम वाडो, ओशेल, शिवोले रामनम व्हडा उमेदीन मनयली. सकाळीं धर्मीक विधी जाल्या उपरांत किर्तन जालें. रामचंद्र सुवाळो, आरती तिर्थप्रसाद जालो. रामनम पुजेचे यजमान प्रिया सर्वेश चोडणकार आशिल्ली. सांजची पालखी मिरवणूक काडली. ह्या वेळार भावीक व्हडा संख्येन हाजीर आशिल्ले. रातचें उसरां नाट्य प्रयोग जालो.

## गिमोणें- पिळगांवां रामनमीक भाविकांची गर्दी

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी



गिमोणे पिळगांवां राम जल्म सुवाळो. ( विशांत वझे)

**दिवचल:** गिमोणें पिळगांवच्या श्री रामचंद्र उर्फ रघुनाथ संस्थानांत अंदूं रामनम व्हडा उमेदीन आनी विंगड विंगड धर्मीक आनी संस्कृतीक कार्यावळींनी मनयली.

फाटलीं दोन वर्सां कोवीड आनी लॉकडाव्नाक आनी म्हामारीक लागून ह्या उत्सवाचें स्वरूप मर्यादीत दवरल्यात. अंदूं कोवीडची परिस्थिती नियंत्रणांत आशिल्ल्यान हो सुवाळो उमेदीन मनोवपाची भावीक व्हडा संख्येन हाजीर आशिल्ले.

काल सकाळीं धर्मीक विधी उपरांत दनपरां 12 वरांचेर रामजल्म सुवाळो जालो. उपरांत सांस्कृतीक कार्यावळींचें आयोजन केल्लें.

आयज, 11 एप्रिलाक फांतोडेर 5.30 ते 9 वरांचेर पालखी मिरवणूक जातली. उपरांत सवायशिणी श्रींची पूजा, आरती, ओटी भरतलीं. 9.30क महाजनां वतीन अभिशेक आनी ब्राह्मण जेवणाची कार्यावळ जातली. सकाळच्या 11.30 वरांचेर देवळांत राम नामस्मरण, दनपरां 1 वरांचेर आरती, तिर्थप्रसाद, म्हाप्रसाद जातलो. दनपरां 3 वरांचेर महाजनां वतीन भजनाची कार्यावळ जातली. सांजच्या 5 वरांचेर बालकलाकारां वतीन भेसवण कार्यावळ जातली. 8 वरांचेर पुराण, पालखी प्रदक्षिणा, दिंडी, महाआरती, सामुदायीक प्रार्थना, तिर्थप्रसाद, म्हाप्रसाद, पावणी जातली. रातच्या 10.30 वरांचेर रामनम उत्सव महाजन 2021 - 22 हांचो भोवमान करतले. उपरांत संस्कृतीक आनी नाचाची कार्यावळ जातली.

अंदूं ह्या उत्सवांत प्रितेश आनी प्रज्ञा च्यारी, रविदास आनी विभा च्यारी, संजय आनी शेजल च्यारी, कालिदास आनी निशा च्यारी, सुर्यकांत आनी सौज्ञा च्यारी, विकास आनी वीणा च्यारी, तुळशीदास आनी अलका च्यारी, आनंद आनी अनुपा च्यारी यजमान पदार आशिल्लीं.

# भूंयपूत : कथा पारतंत्र्यांत हुलपल्ले गोमंतभूयेंची

गोंय मुक्ती लढ्याचे फांटभूंयेर आदारीत भूंयपूत कादंबरी. बरोवपी देविदास कदम. सांगेच्या संजना पब्लिकेशन्सान छापिल्ले हे कादंबरीचें प्रकाशन 14 एप्रीलाक सांजे साडेचारांक मडगांवच्या कोंकणी भाशा मंडळाच्या कार्यालयांत जातलें. ही कथा पारतंत्र्यांत हुलपल्ल्या गोमंतभुंयेची. तिच्या अस्वस्थ धुवां- पुतांची. काळजाक पीळ घालपी तांच्या कथांची, व्यथांची. तांच्या तळमळ्यांची, वळवळ्यांची. तांणी काडिल्ल्या हाल - उपाद्र्यांची.

ह्या सुवाळ्याक मुखेल सोयरे म्हूण विचारवंत ॲड. उदय भेंब्रे हजर आसतले. कवी नागेश करमली अध्यक्षस्थानाचेर तर ज्येश्ठ पत्रकार संदेश प्रभुदेसाय मानाचे सोयरे आसतले. साहित्यीक डॉ. हनुमंत चोपडेंकार पुस्तकाचेर उलोवप करतले. स्तंभलेखक अनंत अग्नी सुत्रसंचालन करतले.

हे कादंबरीचेर तीन जाणकारांनी मतां उक्तायल्यांत.






**नागेश करमली**

एक वेगळेच तरेचो भार आयिल्ले वरीं गोंयकार ह्या मुक्तीझुजांत झुजल्यात. घरदार, कुटुंब, बायल, भुरगीं कित्याचोच विचार करीनासतना. ते खातीर मार खाला, बंदखण भोगल्या. पुर्तुगेजांच्यो गुळ्यो खाल्यात. आयज कल्पना लेगीत करूं नजो, अशें तापत्रय गोंयकार झुजाऱ्यांच्या वांट्याक आयल्यात. देविदासबाब कदम ह्या झुजांतल्या विशिश्ट घडणुकांचो वेध घेत हे कादंबरीचें कथानक उबें करतात.

**ॲड. उदय भेंब्रे**

हे कादंबरीच्या कथानकाक सुटके झुजाची फाटभूंय आसा. तातूंत वांटो घेतिल्ल्या तरणाट्यांचें योगदान, तांची निश्ठा आनी त्याग, तशेंच तांच्या कुटुंबांच्या वांट्याक आयिल्ले दुख्खाचे प्रसंग ह्या सगल्यांचो परिणाम, हो हे कादंबरीचो मुखेल विशय. व्यक्ती परस तांचीं कुटुंबां हे कादंबरींतलीं म्हत्वाचीं पात्रां आसात, अशें म्हणल्यार अतिताय थारची ना. हे कादंबरीचें वेगळेंपण तें हें. हेरशीं आंदोलन, क्रांती, सुटके झूज असल्या विशयांचो इतिहास कोणूय बरयता तेन्ना चड उजवाड फुडाऱ्यांचेर आसता. मागीर उजवाड पडटा तो हुतात्म्यांचेर, हद्दपार केल्ल्यांचेर, बंदखण भोगिल्ल्यांचेर आनी वांगडा जें वावुरले तांचेर. असल्या इतिहासाच्या आदारान सर्जनशील साहित्याची रचणूक जाता तेन्नाय रीत चडशी तशीच उरता. देविदास कदम हे रितीचे आनी साहित्य प्रक्रियेचे पेल्यान गेल्यात. सुटके झुजाऱ्यांची निश्ठा, त्याग करपाची तयारी, बलिदान हें सगलें तांच्या निरिक्षणांत आसाच; पूण चड उजवाड आसा तो तांच्या कुटुंबांचेर जाल्ल्या परिणामांचेर. ह्या नात्याचेर आनी व्यक्तीगत संबंदाचेर जो बरो- वायट प्रभाव पडटा ताचोय अस्पाव आसा.

**संदेश प्रभुदेसाय**

भूंयपूत ही फक्त गोंयच्या नीज पुतांचीच न्हय तर धुवांचीय स्फूर्तदिणी काणी. गोंयच्या मुक्तीझुजाचो कादंबरींतल्यान मांडिल्लो इतिहास. पात्रां कपोलकल्पीत आसत, पूण हातूंतले प्रसंग, घडणुको, पुर्तुगेजांच्यो करण्यो वा स्वातंत्र्य सैनिकांच्यो भावभावना हो निखालस कल्पनांचो खेळ न्हय. हें जितेंजिवें सत्य. तें खणून काडपा खातीर केल्लें खर संशोधन कादंबरीच्या पाना- पानार जाणवता. हांव स्वता ह्या वाठारांतलो. लेखकान चितारिल्ल्या थळांचें चित्रण वाचतां तेन्ना तीं थळां प्रत्यक्ष दोळ्यां मुखार उबीं रावतात. हांवें म्हज्या आवय- बापूय स्वातंत्र्यसैनिकां कडल्यान आयकल्ल्यो काणयो दोळ्यां मुखार नाचपाक लागतात. केन्ना आंगार शिरशिरी येता जाल्यार केन्ना नकळटांच दुकां गळटात. आयज मेरेन गोंयच्या मुक्ती झुजाचेर वेगवेगळ्या साहित्य प्रकारांतल्यान लिखाण जालां, पूण तरीकय ही कादंबरी ह्या सगल्या लिखाणांत उठून दिसपा सारकी. कारण हें कादंबरेक एक वेगळो आनी म्हत्वाचो आयाम आसा.

मळब

# मनशा- मनशां मदले ‘आडांबे’ केन्ना पयसावतले काय ?



विशाल सिनाय खांडेपारकार
80806 22370

*फुडें तुमी चलतल्यांनो*
*फाटल्यांचेर नदर दियात*
*उगडे वाटेंत पावलां मारून*
*वंय तांकां घासूं नाकात.*
*मेकळ्या तांच्या पायांक कशी*
*मेकळी ना तर वाट?...*

फादर लिनु द सा हांचो ‘आडांबे’ हो देवनागरी आनी रोमी लिपयेंतलो कवितांचो झेलो 19 डिसेंबर 1986 वर्सा उजवाडायलो. खंयच्या मनश्यांची सदांच तांच्या जिणेंत दोन रुपां पळोवंक मेळटात. एक रुप तांचे चलतें आनी दुसरें तो कवी म्हूण कल्पनाचो उतरांचो निर्मिती म्हूण आशिल्लें रुप असो आपलो अभिप्राय कवी र. वि. पंडित दितात. तेन्ना सा- म्हण्टा-

*उजवाडाच्या पुतांनो*
*जिणें काळखांत नदर मारात*
*सताची वात पालोवन तुमी*
*फटिची रात निरमी नाकात,*
*पाड तुमची कर्तुबां*
*मनीस कुळाक दुश्टायतात...*

कवी सा-च्यो कवितेंचो सूर म्हणल्यार मनश्यां- मनश्यां मदले ‘आडांबे’ केन्ना पयसावतले काय? हो. कवी सा- हो प्रतिकात्मक रुपांनी समाजांत चलतल्या वायट कर्तुबांचेर बडी मारता. ह्या वर्सा फेब्रुवारी 24 वेर रशियेन आपलो शेजारी देस युक्रेनाचेर घेर्र सुरू केलें. युरोपांतल्या लोकशायेंत हो देस 8 व्या पांवड्यार आसा. 1991 वर्सा सोव्हियत युनियन संघ कोसोळ्ळो. तेन्ना 15 देस स्वतंत्र जावन आपली अधिसत्ता चलोवंक लागले. ह्या 15 देसां मदीं युक्रेन हो देस लोकशायेच्या मार्गान चलतालो. पूण, ह्या देशाची रशियेन नाशाडी कशी केली, हें आयज संवसारा धांपिल्ल्या दोळ्यांनी आनी मोन्यांनी पळयता. हीच तांची कर्तुबां मनीस कुळाक दुश्टायतात त्या प्रस्नाचेर कवी सा बडी मारता.

*आस्पतिच्या सावकारांनो,*
*नासलेल्यांचें परतून दियात*
*पयश्यां वस्त्र न्हेसून तुमी*
*नागडे तांकां भोंवडांव नाकात.*

मनीस जातूच, हीच मनीस कुळयेचो कसो घात करून सोपयता हाचें वर्णन आडांबे कवितेंत कवी सा करता. रशीया – युक्रेन झुजांचेर हालींच पाप सायब फ्रान्सिसान निश्पाप भुरग्यांक आनी हेर राखणे विरेत नागरीकांक जिवेशी मारल्यांत. त्या निश्ठूरतायें विरूध्द आवाज केलो. रशियेची कडक उतरांनी निंदा केली. सगळीं शारां शिमितेरीयो जावच्यो पयलींच हीं आक्रमणां बंद करचीं अशें शिटकायलें.




हींच व्यथा कवी सा हांणी मांडल्या.

*संवसारांत जगतल्यांनी*
*मेल्ल्याची याद करात*
*जिवी जावं निर्जीवी*
*आसप तांचें तोडूं नाकात*
*मनशाक रावूंक जमनी जाय*
*घर तांचें लासूं नाकात*
*जिवीत अशें जगतल्यांक*
*आडांबे घाली नाकात.*

मारियावपोल हें युक्रेनांतल्या दक्षीणेंतलें शार, त्या शाराक आंकवार मारियाचें नांव आसा. तें काळीज तोडपा सारख्या झुजांत काबार जावन एक मारतीर कशें जालें. जिवीत जगतल्यांक आडांबे ना घालपाक सा -चेच भशेंन पाप सायबाक उध्दगारचें पडटा- देवाच्या नांवान हांव उलो मारतां. ही कत्तल करप ,वेगीच बंद करात. हें झूज वेगीनूच सोंपतलें.

दोनूय देसां मदीं, आदीं आशिल्लीं ती इश्टागत पर्थून स्थापन जातली देखून आमचे आंवडे कवी सा – आंवडेतां.

जाल्यार सा-च्या कवितेंतलें खाशेलपण म्हणल्यार गोंयच्या सैमांची तरेकवार रुपां आनी रंग पळोवंक मेळटात. देख-

*दंवाचो थेंबो हांव*
*पाना देगेर बसलों*
*वाऱ्यान हात लायतांच*
*जमनीन वेगांत घेतलो.*

सा- ची अशींच हांसे ही कवितेंत थेंबे हें उतर अर्थ अलंकारांनी सजयलां आनी रुपकांनी विणलां. देख-

*कुपांनी गळयले, पावसा थेंबे.*
*शेतकामत्यांनी, हुमे थेंबे*
*फुलांनी दंवा थेंबे,*
*शिपायकांनी रगता थेंबे, हांसलो*
*त्याग.*

सा-च्या कवितेंत गोंयचो सैम उलयल्यार कसलें नवल. गोंयच्या सैमाचें यर्थाथ दर्शन म्हणल्यार ही कविता.

*आंब्याच्या खांद्या खांद्यांनी*
*फुल फुललां- चोय, फूल फुललां*
*पुलाच्या देंटा कणकणी*
*तोर उसवलां- हय तोर उसवलां...*

मनीस जल्याक येत सावन ताच्या सामकार आडांबे उबे रावतात. देखून मनीस रडतच येता. देख-

*उलगलें तरणाटेपण*
*जाण्टयार हाडून म्हजो भेस*
*सुलूस अशी लाय नासतना*
*उदासान केले प्रवेस*
*जिणे ज्योत पालवची आसा*
*तेन्ना म्हाका कळचें ना*
*असो हांव किदें कोण*
*अजून म्हाका होलमलें ना..*

म्हज्या मतान आडांबे म्हळ्यार गरीब आनी गिरेस्तांचो संगम काय?. असोय एक प्रस्न मनांत उबो रावता. सा- सांगता- आडांबे हुपून जिणेंत येवपी संकटांची संवय मनशान लावन घेवंक जाय. आडांबे आसल्यारूच जीण रसरसता. गोंय मुक्ती ही देख आमच्यांनी घेवं येता. आडांबे आयले तरीय तातूंतल्यान आमी मार्ग काडलो. निमाणें इतलेंच आडांबे हुपपाची तांक आनी धाडस दरेकल्याक मेळचें होच आंवडो....

# समाज सुधारक **महात्मा ज्योतिबा फुले**





श्याम ठाणेदार
99225 46295

**समाजसुधारक महात्मा ज्योतीबा फुले हांची आयज जयंती. पुराय जीण बायलांक, तळागाळांतल्यान लोकांक शिक्षण मेळचें, तांच्यो अंधश्रद्धा सोंपच्यो हे खातीर ते आपले घरकान्नी सयत वावुरले. तांचेर शारिरीक, मानसिक हल्ले जाले, मात भियेनासतना तांणी आपलें कार्य निमणे मेरेन चालूच दवरलें. ज्योतिबा हांचेर हो विशेश लेख.**

भारताचे म्हान सुपूत, विचारवंत, समाजसुधारक महात्मा ज्योतीबा फुले हांची आयज जयंती. तांचो जल्म 11 एप्रील 1827 दिसा जालो. तांच्या बापायचें नांव गोविंदराव तर आवयचें चिमणाबाय. सातारा जिल्ह्यांतल्या कटगुण हें तांचें मूळ गांव. तांचें आडनांव गोऱ्हे. पूण बापायचो फुलां विकपाचो वेवसाय. लोक तांकां फुले म्हणटाले. ताका लागून मुखार आडनांव फुले जालें. कांय दिसांनी कटगुणाच्यान तांचे कुटुंब पुरंदर तालुक्यांतल्या खानवडी हांगा आयले. थंय तांचें आयजूय घर आसा. ताचीं कागदां तांच्या नांवार आसात. मुळावे शिकप घेतकच ज्योतीबान घरचो भाजी, फळां, फुलांचो वेवसाय सुरू केलो. तांकां शिक्षणाची आवड आशिल्ली. म्हणून तांणी 1842 वर्सा पुण्यांच्या स्कॉटिश मिशनरी हायस्कूलांत माध्यमिक शिक्षण घेवपाक प्रवेश घेतलो. सामकी तल्लख बुद्धी आशिल्ल्यान ज्योतिबान स वर्सां भितर तो अभ्यासक्रम पुराय केलो. 23 सप्टेंबर 1873 वर्सा तांणी सत्यशोधक समाजाची स्थापना केली. तथाकथित सनातनी उच्च वर्णीय लोकां कडल्यान सर्वसामान्यांचेर जावपी अन्याय, अत्याचार पयस करप तशेंच तळागाळांतल्यान अनुसुचीत जाती, जमाती आनी हेर लोकांची गुलामगिरींतल्यान मुक्तताय करप, तांकां तांच्या हक्कांची जाणीव करून दिवप हें सत्यशोधक समाजाचें ध्येय आशिल्लें.

'सर्वसाक्षी जगत्पती। त्याला नकोच मध्यस्ती।।' हें ह्या समाजाचें घोशवाक्य. सत्यशोधक समाजान गुलामगिरी आड आवाज काडलो आनी समाज न्यायाची, समाजीक फेररचणुकेची मागणी केली. मंगालश्टकां रचलीं. सगल्यांक शिक्षण मेळचें हो ह्या सत्यशोधक समाजाचो मुखेल उद्देश. महात्मा फुलें हांणी एके कवितेंत शिक्षणाचें म्हत्व पटोवन दितना म्हणलां,

विद्येविना मती गेली ।
मतिविना नीती गेली।
नितीविना गती गेली ।
गतिविना वित्त गेले ।
वित्ताविना शूद्र खचले ।
इतके अनर्थ एका अविद्येने केले ।।

एक बायल शिकली जाल्यार पुराय कुटुंब शिकता, समाज शिक्षित करपाचो आसा आनी भोवजन समाजांत शिक्षणाची म्हूर्तमेढ रोवपाची आसा जाल्यार बायलांक पयलीं शिकपाक जाय, असें तांचें मत आशिल्लें. ते खातीर तांणी स्वताच्या घरा पसून सुरवात केली. बायल सावित्रीबाय शिक्षण दिलें. तांकां शिकोवपाक मुखार काडली. ज्योतिबान 1 जानेवारी 1848 वर्सां पुण्यांतल्या भिडे वाड्यांत चलयांची पयली शाळा काढली. खूब विरोध जालो. शिक्षिका आशिल्ली सावित्रीबाय. मुखार तांकांच मुख्याध्यापक केली. ह्या पदाचेर वचपी ती देशांतली पयली बायल. चलयां खातीर शाळा काडपी ज्योतीबा पयले भारतीय. फातीमा शेख हिणें समाजाचो विरोध पचोवन तांकां बरीच मजत केली. आयज सगल्याच मळांचेर बायलो मुखार आसा. हाचें स्रय ज्योतीबा आनी सावित्रीबाय हांकांय वता.

कला, क्रीडा, साहित्य, विज्ञान, तंत्रज्ञान, शिक्षण, समाजकारण, राजकारण, अर्थकारण अशा सगल्याच मळांचेर बायलो आघाडेचेर आसा. ह्या फुले दांपत्यान केलां तें कार्य कोणाकूच शक्य जावंक ना. ज्योतिबान पुण्यां वेताळ पेठेंत 1852 वर्सा अस्पृश्यां खातीर शाळा सुरू केली. तांच्या ह्या कार्याक सनातनी लोकांनी खूब विरोध केलो. चलयांनी शिकपाक घरा भायर सरप म्हणल्यरा धर्म बुडोवप अशें म्हणीत सगल्यांनी फुले जोडप्याक विरोध केलो. ज्योतिबाक जिवेशीं मारपाक दोन मारेकरीय धाडले. मात ज्योतिबा आपले भुमिकेचेर ठाम रावले.

ज्योतिबाक वाचनाची खूब आवड. म्हापुरुशांचें चरित्र वाचप हो तांचो आवडीचो छंद. छत्रपती शिवाजी महाराजांचें चरित्र आनी थॉमस पेन या विचारवंताच्या राईट ऑफ थॉट्स ह्या ग्रंथाचो तांचेर प्रभाव पडलो. भोवजन समाजांतलें अज्ञान, अंधश्रद्धा, दळडीर पळोवन ते अस्वस्थ जाताले. जातपात, अस्पृश्य- स्पृश्य भेदभाव पळोवन तांकां राग येतालो. ताका लागून तांणी अज्ञान, अंधश्रद्धा पयस करून समाजांतलो जातीभेद नश्ट करपाचो निश्चेवूच केलो. खंयचोच धर्म देवान निर्माण करूंक ना. चातुर्वर्ण्य आनी जातीभेद हो मनशानूच तयार केला अशें तांचें रोखठोक मत आशिल्लें. सगले मनीस एकूच, सगल्यांनी एकचारान रावपाक जाय, अशें तांणी बरोवन दवरलां. शेतकऱ्यांचा आसूड ह्या पुस्तकांत तांणी महाराष्ट्रांतल्या शेतकारांची दुर्दशा, दळडीराची वास्तवता सांगल्या. हातूंत महात्मा फुले हांचो दृश्टीकोन कितलो विशाल आसलो तें कळटा.

ज्योतिबान सार्वजनिक सत्यधर्म हो ग्रंथ बरयलो. हो सत्यशोधक समाजाचो प्रमाण ग्रंथ मानतात. संत तुकाराम हांच्या अभंगाचो तांणी अभ्यास केल्लो. ताचे धर्तेर तांणी जायते अखंड बरयले. संवसारांत कितें चल्लां ताचें तांकां गिन्यान आशिल्लें. तांणी आपलो गुलामगिरी ग्रंथ अमेरिकेंतल्यान काळ्या लोकांक समर्पित केला. अस्पृश्यांची कैफियत हो तांचो छापूंक नाशिल्लो ग्रंथ. 28 नोव्हेंबर 1890 दिसा ज्योतिबा हांकां पुण्यांत मरण आयलें. आयज तांचो जल्मदीस. तांचे स्मरण करप हें दरेकल्याचें, खास करून बायलांचें कर्तव्य. महात्मा ज्योतिबा फुले हांकां जयंती निमतान अभिवादन.




ज्योतीबान 1848 वर्सा भारतांतली बायलांची पयली शाळा सुरू केली तो जागो.

## रामनम आनी रामाचो आयतार !



गोंयांत काल सगले कडेन पणजे- भाटल्यांतल्या रामाच्या देवळांतल्यो मूर्ती आनी पाळण्यांत घाल्ल्या रामाचें दर्शन घेतना एक भुरगो.



पवित्र सप्तकाच्या पयल्या दिसा काल रामाचो आयतार (पाम संडे) मनयलो. फॉन्तेन्हासांतल्या सेंट सॅबेस्तियान कॉपेलांत फादर रॉक डा कॉस्ता धर्मिक विधी करतना. तशेंच जमिल्ले भावीक.

फोटो- नारायण पिसुर्लेकार

# मुख्यमंत्र्यांचे हस्तुकीं मल्लिकार्जुन हायस्कूलाचे नवे वास्तूची बुन्याद

## 60 लाख रुपया मोडून साकारतले इमारत



सुमार 60 लाख रुपया मोडून बांदतल्या मल्लिकार्जुन विद्यालयाचे नवे वास्तूचो बुन्यादी फातर बसयतना मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंत. कुशीक सभापती रमेश तवडकार, संस्थेचे अध्यक्ष शंबा देसाय आनी हेर मानेस्त

बुन्यादी फातर बसयले उपरांत मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंत, सभापती रमेश तवडकार, नगराध्यक्ष सायमन रेबेलो हांचे सयत संस्थेचे अध्यक्ष शंबा देसाय, राजेंद्र देसाय आनी विद्यालयाचे शिक्षक आनी कर्मचारी. (संजय कोमरपंत)

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**काणकोण :** चाररस्तो, काणकोणचे सेंत्रु प्रोमोतोर दि इन्स्त्रुत्सांव संस्थेच्या श्री मल्लिकार्जु विद्यालयाचे नवे वास्तूची बुन्याद मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंत हांचे हस्तुकीं निकतीच घाली.

ह्या वेळार काणकोणचे आमदार आनी सभापती रमेश तवडकार, नगराध्यक्ष सायमन रेबेलो, नगरसेवक हेमंत नायक गांवकार, सेंत्रू प्रोमोतोर दि इन्स्त्रुत्सांव संस्थेचे अध्यक्ष शंबा देसाय, सचीव गुरू नायक गांवकार, भांडारी रमेश कोमरपंत, अचिकेत देसाय, उपनगराध्यक्षा अमिता पागी, नगरसेविका सारा देसाय, गंधेश मडगांवकार, लक्ष्मण पागी, नार्सिस्को फर्नांडीस, साबार बसकेचे अध्यक्ष राजेंद्र देसाय, सर्वानंद भगत, विकास देसाय, बाबाजी सावंत, कमलाकर म्हाळशी आनी प्रमोद राणे हाजीर आसलीं.

सुरवातीक मल्लिकार्जुन विद्यालयाच्या शिक्षकांनी आरती ओंवाळून मानेस्तांक येवकार दिलो. उपरांत मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंत हांणी विद्यालयाच्या नवे वास्तुची बुन्याद घाली.

उपरांत जाल्ले कार्यावळींत मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंत आनी सभापती रमेश तवडकार हांकां स्मरणचिन्नां दिवन संस्थेचे वतीन तांचो भोवमान केलो. चार कुडींची ही वास्तु सुमार 60 लाख रुपया मोडून बांदतले. तातूंत उच्च माध्यमीक आनी माध्यमीक विद्यार्थ्यां खातीर सोय करतले अशें राजेंद्र देसाय हांणी सांगलें. सुरवातीक शंबा देसाय हांणी मानेस्तांक येवकार दिलो.

उपरांत तांणी खोतीगांव पंचायत क्षेत्रांतले बड्डें हांगा सेवा सप्ता येवजणे अंतर्गत कमलाकर गांवकार हांच्या घराची तशेंच गांवडोंगरी पंचायत क्षेत्रांतल्या झिलतावाडी हांगाच्या सोमनाथ मिराशी हांच्या घराची बुन्याद घाली.

## मुख्यमंत्र्यांचो जनता दरबार

मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंत हांचो आयज सांखळेच्या रवींद्र भवनांत जनता दरबार जालो. गोंयांतल्या विंगड विंगड वाठारांतल्या लोकांनी आपलीं गाराणीं मुख्यमंत्र्यां मुखार मांडपाक गर्दी केल्ली. मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंत हांणी लोकांचे विंगडविंगड प्रस्न आयकून घेतले आनी ते सुटावे करपाचें उतर दिलें. (विशांत वझे)

## श्री हनुमान विद्यालयांत फाल्यां स्मार्ट वर्ग प्रकल्पाचें उक्तावण

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**वाळपय :** वाळपय शिक्षण संस्था संचालीत श्री हनुमान विद्यालय, वेळूस, वाळपय हांच्या नव्यान बांदिल्ल्या चार वर्गांचो आनी स्मार्ट वर्ग प्रकल्पाचो उक्तावण सुवाळो मंगळारा, 12 एप्रीलाक सकाळीं 9.30 वरांचेर श्री हनुमान विद्यालयांतलें स्वामी विवेकानंद सभाघर, वेळूस, वाळपय हांगा आयोजीत केला.

हो प्रकल्प मडगांव युथ रावंड टेबल 228 आनी बेळगांव कोस्मो रावंड टेबल 237 आनी पी ॲण्ड जी शिक्षा हांच्या फुडाकारान बांदला. कार्यावळीक लोकांनी व्हडा संख्येन येवचें अशें आवाहन वाळपय शिक्षण संस्था संचालक, मुख्याध्यापक, कर्मचारी, पालक शिक्षक संघ आनी विद्यार्थ्यांनी केलां.

## न्हावेलीच्या श्री कुलपुरूषाचो आयज वर्धापन दीस सुवाळो

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**केरी-सत्तरी :** दुरिगवाडो-न्हावेली-सांखळेच्या श्री लक्ष्मीनारायण देवस्थान अंतर्गत येवपी श्री कुलपुरूष देवाचो वर्धापन दीस सुवाळो सोमारा, 11 एप्रीलाक जातलो.

ते निमतान लघुरूद्र स्वाहाकार सुवाळो जातलो. सकाळीं 9.30 वरांचेर गणेशपुजन, पुण्याहवाचन, लघुरूद्र स्वाहाकार, दनपरां 12.30 वरांचेर महाआरती, महागाराणें, तीर्थप्रसाद, महाप्रसाद जातलो. सांजवेळा 7.30 वरांचेर मोरजी सार्वजनिक गणेश उत्सव क्रीडा सांस्कृतीक मंडळ, मोरजी-पेडणेचे वतीन य. ना. टिपणीस हांणी बरयिल्लें आनी साबाजी च्यारी हांणी दिग्दर्शीत केल्लें 'संगीत शिक्का कट्ट्यार' हें इतिहासीक नाटक जातलें. तांकां ऑर्गनाचेर चांगदेव धोंडू नायक, तबल्याचेर सुविशांत बोर्डेकार हांची साथ आसतली.

भाविकांनी ह्या सुवाळ्याक मुजरत येवचें आनी श्रीकृपेचो लाव घेवचो अशें आवाहन श्री लक्ष्मीनारायण देवस्थान समिती, न्हावेलीचे सचीव चंद्रकांत आपा गांवस हांणी केलां.

## मडगांवच्या फुटपाथांक रेलिंग घालपाची सुचोवणी

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**मडगांव:** हॉस्पिसियो हॉस्पीटल ते रेल्वे फ्लायओव्हर मजगतीं रस्त्याचें हॉटमिक्स डांबरीकरण करतना पयलींचो डांबराचो थर काडून उडोवंक ना देखून रस्त्याची उंचाय तशेंच कांय जाग्या वयले फुटपाथ समान जाल्ल्यान फुटपाथा वयल्यान चलून वचप धोक्याचें जालां. हाचेर उपाय म्हण सगल्या फुटपाथांक रेलिंग घालून लोकांक सुरक्षा दिवपाचो उपाय काडला.

मडगांवचे आमदार दिगंबर कामत हांणी भौशीक बांदकाम खात्याचे अधिकारी आनी येरादारी पुलिसां वांगडा रस्त्याची पळोवणी केली. ह्या फुटपाथांचेर सुरक्षा रेलिंग बसयले नात जाल्यार गाडयो फुटपाथाचेर चडून अपघात जावपाक शकतात हें तांणी संबंदितांचे नदरेक हाडून दिलें.



हॉटमिक्सिंग डांबरीकरण जाल्ल्या रस्त्याची संबंदीत खात्याच्या अधिकाऱ्यां वांगडा पळोवणी करतना मडगांवचे आमदार दिगंबर कामत. (संतोष मिरजकार)

ह्या वेळार भौशीक बांदकाम खात्याच्या अधिकाऱ्यांक कामत हांणी सुचोवणी करतना हाचे मुखार मडगांवां अशें हॉटमिक्स डांबरीकरण करतना रस्त्या वयलो आदलो डांबराचो थर खरवडून काडून उपरांत हॉटमिक्स करचें अशें तांणी सांगलें.

अशा आशयाचें पत्र आपूण भौशीक बांदकाम खात्याक बरयतलों अशेंय दिगंबर कामत हांणी सांगलें.

ठाण्यां रामनम उत्सव सुरू

## आज 'तुझ्यात जीव रंगला'

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**वाळपय :** रामनमी निमतान ठाणेच्या देसायवाड्या वयल्या श्री राम मंदिरांत विंगडविंगड कार्यावळी आयोजीत केल्यात. आयतारा सकाळ सावन धर्मीक कार्यावळी जाल्यो. सकाळीं 11 वरांचेर होंडांतले नामनेचे किर्तनकार गुरूदास सुतार हांच्या किर्तनाची कार्यावळ जाली. रातीं 'अशी ही बनवाबनवी' हें नाटक जालें.

फाल्यां, सोमारा, 11 एप्रीलाक धर्मीक कार्यावळी जातल्यो. रातीं धा वरांचेर वैभवी क्रिएशन्स, दिवचल निर्मीत 'तुझ्यात जीव रंगला' हें विनोदी नाटक जातलें. भाविकांनी देवदर्शन घेवचें आनी नाटकाचो आस्वाद घेवचो अशें आयोजन समितीन आवाहन केलां.

## विशेश भुरग्यांच्या स्कुला खातीर योग्य त्यो सोयी-सुविधा दितले

### जीत आरोलकार : तुयां आत्मविश्वास हायस्कूलाचे वतीन सत्कार

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पेडणें :** तुयेंच्या विशेश भुरग्यांच्या आत्मविश्वास हायस्कूलाच्या विद्यालया खातीर सगले तरेच्यो सोयी-सुविधा दिवपा खातीर सरकाराचे वतीन यत्न करतलों अशें उतर मांद्रेंचे आमदार जीत आरोलकार हांणी दिलें.

तुयेंच्या विशेश भुरग्यांच्या आत्मविश्वास हायस्कूलांत 8 एप्रीलाक श्री सत्यनारायण महापुजा जाली. ते निमतान घडोवन हाडिल्ले खाशेले कार्यावळींत मांद्रेंचे नवनिर्वाचीत आमदार जीत आरोलकार हांचो सत्कार सुवाळो जालो. त्या वेळार सत्काराक जाप दितना जीत आरोलकार उलयताले. ह्या वेळार माचयेर भाजप मंडळाचे अध्यक्ष तुळशीदास गांवस, सौ. गावडे आदी हाजीर आसलीं. सुरवातीक विशेश भुरग्यांच्या स्कूलाचे संस्थापक आनी शिक्षक सीताराम गावडे हांणी येवकार दिलो आनी प्रास्तावीक करतना विशेश भुरग्यांक शिक्षण दितना हायस्कूलाक कसल्यो कसल्यो अडचणी येतात त्यो सांगल्यो. शाळे खातीर लागपी सामुग्रींचो तशेंच सोयी-सुविधांचो उणाव आसा म्हणपाचेंय तांणी जीत आरोलकार हांकां सांगलें.




तुयेंच्या आत्मविश्वास हायस्कूलाचे वतीन आमदार जीत आरोलकार हांचो सत्कार करतना शिक्षक सीताराम गावडे आनी हेर मानेस्त. (निवृत्ती शिरोडकार)

पेडणें म्हालांतल्या गांवांगांवांतल्या विशेस भुरग्यांक एकठांय करून तांच्या कलागुणांक वाव दिवपा वांगडाच तांकां बोलतें करपी ही आत्मविश्वास शाळा आसा. हे शाळे खातीर गावडे कुटुंबान जें योगदान दिलां ते पेडणेंचे लोक विसरचे नात अशें आरोलकार हांणी सांगलें.

विशेश भुरग्यांक सांबाळटना, तांच्या कलागुणांक वाव दितना, तांकां सांस्कृतीक आनी स्पर्धात्मक सर्तींनी वांटो घेवपाक उर्बा दिवपा खातीर ज्यो अडचणी येतात त्यो पयस करपा खातीर सीताराम गावडे आनी शिक्षक जे परिश्रम करतात ते आमी फुकट वचूंक दिवचे नात अशें तांणी म्हणलें.

ह्या हायस्कूला खातीर फावो त्यो सोयी-सुविधा दिवपा खातीर मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंत हांचे कडेन चर्चा करतलों अशें उतर जीत आरोलकार हांणी दिलें.

## दी रे बेगीन दत्ता तुजें दर्शन...

### हडफड्यां सरस गितांचे मैफलीन रसीक जाले तल्लीन

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**मुरगांव :** 'दी रे बेगीन दत्ता तुजें दर्शन', 'त्या दिसा वडा कडेन गडद तिनसनां, मंद मंद वाजत आयलीं तुजीं गो पांयजणां', 'अभिर गुलाल उधळीत रंग, नाथाघरी नाचे माझा सखा पांडुरंग', 'सुरत पिया कि न छिन बिसराये, हर हरदम उनकी याद आये' अशीं एका परस एक अजरामर गितां आयकून हडफडें वाठारांतले लोक तृप्त जाले आनी भक्तीगितां, भावगितां, नाट्यगितां, अभंग आनी गवळणी अश्या गितांचे मैफलीन संगीतमोगी सामके तल्लीन जाले.

बार्देशांतल्या हडफडें गांवांतल्या दिवानभाटींतल्या श्री आरवेश्वर देवस्थानान तांच्या वर्धापन दिसा निमतान गोंयचे आघाडेचे गायक कलाकार अक्षय नायक, मृदुला तांबे, पुणे आनी मुंबयचे धनंजय म्हसकर हांच्या सुंदर अश्या मिश्र भक्तीगितांनी, नाट्यगितांनी, अभंगांनी आनी गवळणींनी मैफल खूब रंगली आनी हे मैफलींत हडफडेंचे आनी बार्देश म्हालांतले संगीतमोगी सामकें मग्न आनी गुल्ल जाले.

कार्यावळीची सुरवात धनंजय म्हसककर हांच्या 'सर्वांगी सुंदर कसे पितांबर' ह्या श्लोकान केली. फुडें तांणी 'ध्यान लागले रामाचे' आनी 'स्वामी समर्थांच्या चरणाशी आलो' हीं दोन भक्तीगितां सादर केलीं. उपरांत 'मुरलीधर श्याम' हें गीत जाल्यार 'नाही पुण्याची मोजणी, नाही पापाची नोंदणी' आनी 'जोहार मायबाप जोहार, तुमच्या महालाचा मी महार' हे अभंग गायले. 'कानडा राजा पंढरीचा' हो अभंग सुंदर तरेन गावन रसिकां कडल्यान शाबासकी मेळयली तशेंच 'श्रीरंगा कमलाकांता' आनी 'सावळा नंदाचा मुल खोटा' ही गवळण सादर केली.



हडफडेंच्या श्री आरवेश्वर देवस्थानांत सांगितीक कार्यावळींत गीत सादर करतना गोंयचे नामनेचे गायक अक्षय नायक. कुशीक पुणेची गायिका मृदुला तांबे आनी मुंबयचे गायक धनंजय म्हसकर तशेंच तांकां साथ दिवपी वाद्यवृंद राया कोरगांवकार, सुनाद कोरगांवकार, बुद्धेश तळकार, तुकाराम बिटये गोवेकार तशेंच निवेदिका मानसी वाळवे आनी सागर पेडणेंकार. (मिलिंद काकोडकार)

अक्षय नायक हांणी सुरवातीक 'पंढरीचा निळा लावण्याचा पुतळा' हो अभंग गावन सगल्यांची नदर ओडून घेतली. उपरांत तांणी 'जय शंकरा गंगाधरा' हें नाट्यगीत गावन कार्यावळीक रंग हाडलो. 'दी रे बेगीन दत्ता तुजें दर्शन' हें कोंकणी गीत सादर करून रसिकांचें मन तृप्त केलें. उपरांत तांणी स्वताचें आवडीचें अशें 'सुरत पिया कि न छिन बिसराये' हें गात गायलें आनी हडफडेंचे लोक सामके तल्लीन जाले. अक्षय नायक हांणी 'बाजाराला विकण्या निघाली, दही दुध ताक आणि लोणी' ही गवळण सादर केली.

आघाडेची गायिका मृदुला तांबे हांणी सुरवातीक 'आधी रचिली पंढरी, मग वैकुंठ नगरी' आनी 'आम्हा नकळे ज्ञान नकळे पुराण' हे अभंग सादर केले. उपरांत बंदिशी 'लागी करेजवा' आनी 'तव भास' सादर केल्यो. 'अभिर गुलाल उधळीत रंग, नाथा घरी नाचे माझा सखा पांडुरंग' हो अजरामर अभंग गावन रसिकांक भारावन सोडलें.

मृदुला तांबे हांणी पुण्याची आसुनूय अस्खलीत कोंकणींत 'त्या दिसा वडा कडेन गडद तिनसनां, मंद मंद वाजत आयलीं तुजीं गो पांयजणां' हें गीत गावन रसिकांक अजापांत उडयलें. तशेंच 'का धरिला परदेस सजना' हें गीत आपल्या म्होंवाळ आवाजांत गावन हाजीर आशिल्ल्या लोकां कडल्यान शाबासकी मेळयली. तांणी एक गवळण लेगीत सादर केली. अखेरेक अक्षय, मृदुला आनी धनंजय ह्या तिनूय कलाकारांनी मेळून 'गरजे पंढरपूर, चालला नामाचा गजर' ही भैरवी गावन कार्यावळीची सांगता केली.

ह्या कलाकारांक ऑर्गनाची साथ गोंयचे नामनेचे संवादिनी शिक्षक राया कोरगांवकार हांची आसली जाल्यार तांचे पूत सुनाद राया कोरगांवकार हांणी संवादिनीची सुंदर साथ दिली. तबलासाथ तुकाराम बिटये गोवेकार हांची आसली जाल्यार पखवाज साथ बुद्धेश तळकार हांणी दिली. सागर पेडणेकार हांणी टाळसाथ दिली. मानसी वाळवे हिणें सुंदर निवेदन केलें जाल्यार आवाज संयोजनाची जापसालदारकी सिद्धेश नायक हांणी सांबाळ्ळी.

ही कार्यावळ आदले पंच रोशन रेडकार हांणी आपलो बापूय स. वासुदेव रेडकार हांचे यादीक पुरस्कृत केल्ली. हे कार्यावळी आदीं दिपिका रोशन रेडकार हांचे येजमानके खाला श्री आरवेश्वर देवस्थानांत श्री सत्यनारायण महापुजा जाली. उपरांत अखील गोंय अभंग गायन सर्तीचो इनामां वांटप सुवाळो जालो. ताचें सुत्रसंचालन हेडलॉण्ड सडा, वास्कोच्य संतोष गजानन मोरूडकार हांणी केलें. अक्षय नायक हांणी आपणाक ही कार्यावळ सादर करपाची संद दिल्ले खातीर आयोजक रेडकार कुटुंबाचे उपकार मानले,

## आमचे परंपरेची, संस्कृतायेची व्हडविकाय आयचे पिळगेक शिकोवपाची गरज आसा

रमेश शिंदे : संवसार पाडव्या दिसा वास्को शोभा यात्रा



हिंदू नव वर्ष स्वागत समितीन घडोवन हाडिल्ल्या सुवाळ्याचें दिवली पेटोवन उक्तावण करतना आमदार दाजी साळकार. कुशीक रमेश शिंदे, श्यामरसिक दास, नितीन फळदेसाय आनी हेर मानेस्त. (अक्षंदा राणे)

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**वास्को :** कांय राज्यांनी हिंदू अल्पसंख्यांक जाल्यात. हिंदू अल्पसंख्यांक जावचे न्हय अशें दिसता आसत तर आमची परंपरा, संस्कृती तिगोवपाची गरज आसा. तशेंच आमचे परंपरेची आनी संस्कृतीची व्हडविकाय आयचे पिळगेक शिकोवपाचीय गरज आसा हिंदू जनजागृती समितीचे राष्ट्रीय म्हणयारे रमेश शिंदे हांणी सांगलें.

हिंदू नव वर्ष स्वागत समितीचे वतीन शोभा यात्रा आनी जाहीर सभा आयोजीत केल्ली. ह्या वेळार मुखेल वक्ते म्हणून रमेश शिंदे उलयताले. ह्या वेळार माचयेर इस्कॉन मुरगांवचे श्यामरसिक दास, समितीचे संयोजक नितीन फळदेसाय, अध्यक्ष राजेश शिरोडकार, उत्सव समितीचे अध्यक्ष रुद्रेश्वर च्यारी, योगेश शेट, साईनाथ नायक, महिला मुखेल ज्योती बांदोडकार, डॉ. नितीन मांजरेकार आनी कृष्णराव बांदोडकार हाजीर आसले. धर्म, परंपरा सोंपची न्हय हे खातीर हिंदूंचें नवें वर्स आनी हेर परबो मनोवंक जाय. हिंदू धर्म श्रेश्ठ आसा. पूण आमी धर्माची शिकवण कित्याक दिनात असो प्रस्न तांणी केलो.

आमचे मदीं वैचारीक मतभेद आसले तरी आमी एकठांय येवंक शकतात अशें श्यामरसिक दास हांणी सांगलें. नितीन फळदेसाय हांणी प्रास्तावीक केलें. ह्या वेळार दयानंद राणे आनी पत्रकार हिरू महाले हांचो सत्कार केलो. भक्ती खडपकार हांणी सत्कारमुर्तींची वळख करून दिली. रुद्रेश्वर च्यारी हांणी सोयऱ्यांची वळख करून दिली. राजेश शिरोडकार हांचेंय ह्या वेळार उलोवप जालें. ज्योती बांदोडकार हांणी कार्यावळीचें सुत्रसंचालन केलें. योगेश शेट तानावडे हांणी उपकार मानले.

ह्या वेळार हाजीर आशिल्ले वास्कोचे आमदार दाजी साळकार, नगरसेवक विनोद किनळेकार, उपनगराध्यक्ष अमेय चोपडेकार हांकां फुलांतुरो दिवन येवकार दिलो.

# दिल्ली कॅपिटल्साचें 44 धांवड्यांनी जैत

■ खबरां संस्था

**मुंबय:** आयपीएलाच्या 19वे मॅचींत दिल्ली कॅपिटल्सान कोलकाता नायट रायडर्साक (केकेआर) 44 धांवड्यांनी हारयलें. पयली बॅटींग करकून दिल्लीन 215 धांवड्यांचो दोंगोर उबो केल्लो. ताचो फाटलाव करतना केकेआराक फकत 171 धांवड्यो करप शक्य जालें. फाटल्या दोन मॅचींत तांकां हार खावची पडिल्ल्यान दिल्ली खातीर थाकाय दिवपी हें जैत थारलें. आतां चार मॅची उपरांत दोन जैत आनी दोन हारी सयत तांचे 4 गुण जाल्यात. हार जाली तरी केकेआराचे गुण क्रमवारींतले पयले सुवातेर परिणाम जालो ना.

दिल्लीन आक्रमक बॅटींगेच्या नेटार व्हडली धांवसंख्या उबी केली. कोलकाताक मॅन ऑफ मॅच वेंकटेश अय्यरान बरी सुरवात करून दिवपाचो यत्न केलो. मात तो 8 बॉलांत 18 धांवड्यो करून बाद जालो. ते उपरांत अजिंक्य रहाण 8 धांवड्यो करून पॅव्हेलियनांत आयलो. दोन ओपनर बाद जातकूच कॅप्टन श्रेयस अय्यर आनी नितिष राणान तिसरे विकेटी खातीर 69 धांवड्यांची भागिदारी केली. लिलत यादवान राणाक 30 धांवड्याचेर बाद करून ही जोडी फोडली. ते उपरांत अय्यराक वांगोड दिवपी बॅट्समन केकेआर कडेन नाशिल्लो. अय्यर अर्द शेंकडो पुराय करून रोखडोच बाद जालो. ताणे 33 बॉलांत 2 सके आनी 5 चौक्यांनी 54 धांवड्यो केल्यो

मुंबय इंडियन्सा आड आयपीएल इतिहासांतले सगळ्यांत फास्ट अर्द शेंकडो करपी पॅट कमिन्स 4 धांवड्याचेर, सुनील नरेन (4) आनी सॅम बिलिग्ज (15) रोखडेच बाद जाले. विस्फोटक बॅटींगे खातीर वळखतात तो आंद्रे रसेल चड वेळ तिगलो ना. तो मेरेन केकेआरच्या हातांतल्यान मॅच गेल्ली. 20 ओव्हरी पुराय जावचे पयलीं केकेआरचो डाव 171 धांवड्यांचेर सोपलो

ताचे पयलीं केकेआरचो कॅप्टन श्रेयस अय्यरान टॉस जिखून बॉलिंग करपाचो निर्णय घेतलो. दिल्लीच्या डावाची सुरवात डेव्हीड वॉर्न आनी पृथ्वी शॉन केली. तांणी पयले ओव्हरी सावन केकेआरच्या बॉलरांचेर हल्लो करपाक सुरवात केली. तांणी फकत 24 बॉलांत पंगडाचो अर्द शेकडो पुराय केलो. पृथ्वी शॉन कोलकाताच्या बॉलरांक दया दाखयली ना. ताणे 27 बॉलांत 50 धावड्यो पुराय केल्यो. ओपनींग जोडी पंगडाचो शेकडो पुराय करतली अशें दिसतालें मात स्पीनर वरूण चक्रवर्तीन दिल्लीक पयलो धपको दिलो. ताणे पृथ्वीक बाद केलें. पृथ्वीन 29 बॉलांत 2 सके आनी 7 चौक्यांनी 51 धांवड्यो केल्यो. पृथ्वी बाज जाल्या उपरांत कॅप्टन ऋषभ पंतान वॉर्नरा वांगडा धांवडो करपाची गती कमी जावपाक दिली ना. मजगतीं वॉर्नरान 35 बॉलांत 50 धांवड्यो केल्यो. 13वे ओव्हरींत आंद्रे सरेलान पंताक बाद केलें. ताणे 14 बॉलांत 2 सके आनी 2 चौक्यांनी 27 धांवड्यो केल्यो. पंत बाद जातकूच दिल्लीचो डाव कोसळ्ळो. ललित यादन 9, पॉवेल 8 धांवड्यांचेर बाद जाले. हाका लागून धांवड्यांची गती कमी जाली. पॉवेल बाद जालो ताचे पयलींच्या 15 बॉलांत दिल्लीक फकत 13 धांवड्यो करपाक मेळ्ळो. ओपनर वॉर्नरान एक बाजू लावन धरिल्ली, मात निमाणे उमेश यादवान ताका बाद केलें. ताणे 45 बॉलांत 61 धांवड्यो केल्यो. दिल्लीन 14वे ओव्हरींत 151 धांवड्यो केल्ल्यो. मात मदले फळयेंतले बॅट्समन धांवड्यो करपाक अपेशी थारिल्ल्यान तांका व्हडली मजल मारक शक्य जालें ना. निमणे ओव्हरींत अक्षर पटेल आनी शार्दुल ठाकूरान नेटान धांवड्यो केल्ल्यान दिल्लीक 200 धांवड्यांचो टप्पो हुबपाक मजत जाली. पटेलना 14 बॉलांत नांबाद 22 जाल्यार ठाकूरान 11 बॉलांत 29 धांवड्यो केल्यो.






मॅन ऑफ दी सिरिज म्हणून मेळिल्ले दुचाकी वांगडा सूर्या गांवकार.

## बेळगांवचे क्रिकेट सर्तींत सत्तरीचो सूर्या गांवकार मॅन ऑद दी सिरिज

■ भांगरभूंय प्रतिनिधी

**वाळपय:** सत्तरी तालुक्यांतल्या हिरवें गांवांतल्या सूर्या गांवकार हाणे बेळगांवा जाल्ले टॅनीस बॉल क्रिकेट सर्तींत बरी कामगिरी करून दाखयल्ल्यान ताचो मॅन ऑफ दी सिरिज म्हणून भोवमान केलो. इनाम म्हणून ताका दुचाकी भेटयली. गोंयां भायर जाल्ले क्रिकेट सर्तींत बरी कामगिरी करून दाखोवपी सूर्या सत्तरींतलो पयलो खेळगडो आसा. ताणे फायनलींत 78 धांवड्यो काडल्यो शिवाय प्रतिस्पर्धी पंगडाच्या 5 गड्यांक बाद केलें.

बेळगांवांत जाल्ले हे सर्तींत गोंय, महाराष्ट्र आनी कर्नाटकांतल्या 28 पंगडांनी वांटो घेतिल्लो. सर्तींत गोंयांतल्या जायत्या खेळगड्यांनी वांटो घेतिल्लो. सूर्या गांवकारान बॉलिंग करपाची शैली सामकी बरी आसा. ताका बरें प्रशिक्षण मेळ्ळ्यार तो देश पांवड्यार खेळपाक शकता. बेळगांवचे सर्तींत आपल्याक बरी संद मेळ्ळी हाच्या फुडें सरावाचेर लक्ष दिवन व्हडल्या पंगडांनी खेळपाचो आपलो यत्न आसतलो अशें तांणे सांगलें.

# कोंकणीचो फक्त मोग नाका, अभिमान बाळगुचो

## अॅड. उदय भेंब्रे: अखील भारतीय कोंकणी परिशदेचे कचेरेचें उक्तावण

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**मडगांव:** सध्याचे स्थितींत कोंकणी भाशेचेर फक्त मोग करून चलचें ना. तिचो अभिमान बाळगुपाक जाय आनी तिचे उदरगती खातीर निसुवार्थीपणान वावुरपाक जाय, अशें ज्येश्ठ साहित्यीक अॅड. उदय भेंब्रे हांणी सांगलें. अखील भारतीय कोंकणी परिशदेन स्थापनेच्या 82 वर्सां उपरांत स्वताची कचेरी सुरू केल्या. ते वास्तूच्या उक्तावणा वेळार आयोजीत कार्यावळींत भेंब्रे मुखेल सोयरे म्हूण उलयताले. ही कार्यावळ मडगांवच्या रवींद्र भवनांत आयोजीत केल्ली. ते आदीं कचेरीचें उक्तावण अस्मिताय प्रतिश्ठानाचे अध्यक्ष अरविंद भाटीकार हांचे हस्तुकीं जालें.

कोंकणी भाशिकांचें जरी राजकी नदरेन एक राज्य ना तरीय सांस्कृतीक नदरेन फक्त गोंय, महाराष्ट्र, केरळ आनी कर्नाटकांतलेच न्हय जाल्यार देशांत वा विदेशांत शिंपडिल्ल्या कोंकणी भाशिकांचें एक सांस्कृतीक राज्य जावप शक्य आसा. ह्या सगळ्या कोंकणी भाशिकांक एकठांय हाडपाचें काम फक्त अखील भारतीय कोंकणी परिशद करपाक शकता, अशें भेंब्रे हांणी सांगलें.



अ. भा. कोंकणी परिशदेच्या स्वताच्या वास्तूचें उक्तावण करतना अस्मिताय प्रतिश्ठानाचे अध्यक्ष अरविंद भाटीकार. कुशीक उषा राणे, सदानंद काणेकार, गौरीश वेर्णेकार आनी हेर मानेस्त. तशेंच परिशदेची स्थापना करपी माधव मंजुनाथ शानभाग हांच्या फोट्याक मानेस्तांनी ओंपिल्लीं फुलां.

अरविंद भाटीकारान सांगलें, कोंकणी परिशदेची ही नवी स्वताची वास्तू हें सगळ्या कोंकणी मोग्यांचें येस आसा. कोंकणीचे वडील मनीस, विवीध कोंकणी संघटणांचे संस्थापक संवेदनशिलताय, सर्वसमावेशक आनी निसुवार्थी भावनेन वागले. कोंकणीची उदरगत करतना तांणी ह्यो संस्था कसल्याच राजकारणा बगर चलयल्यो, म्हूण त्यो अजून अस्तित्वांत आसात.

गोवा कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष अरूण साखरदांडेन सांगलें, कोंकणीचें अर्दवट उरिल्लें काम फुडें व्हरपा खातीर कार्यकर्त्यांची फळी तयार करप गरजेचें आसा. तशेंच अर्थीक घटसाण हाडचे कातीर 'कोंकणी मिलेर'ची संकल्पना मांडली. ह्या वेळार पयनूर रमेश पै, मेल्वीन रॉड्रिग्स हांणीय आपले विचार मांडले.

अखील भारतीय कोंकणी परिशदेची अध्यक्ष उषा राणे हांणी प्रास्तावीक केलें आनी येवकार दिलो. रुचा लोटलीकार हांणी येवकार गीत सादर करून कार्यावळीची सुरवात केली. उपरांत मानेस्तां हस्तुकीं दिवली पेटयली. सुत्रसंचालन योगिता वेर्णेकारान केलें जाल्यार शशिकांत पुनाजीन उपकार मानले.

अ. भा. कोंकणी परिशदेच्या वास्तूच्या उक्तावण सुवाळ्याचे कांय खीण.

# म्हापश्यां घाणयारें उदक प्रकल्पाक चालना

## ज्योशुआ डिसोझा: जमनी पोंदच्यान वीज केबल घालपाचें काम घेतले हातांत

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**म्हापशें:** म्हापशें शारांत जमनी पोंदच्यान वीज केबल घालपाचें काम आनी घाणयाऱ्या उदकाचे पायपलायनीच्या कनेक्शनाचें काम नगरपालिकेचो ना हरकत दाखलो मेळूंक नाशिल्ल्यान आडावलां. आतां रोखडीच पालिका मंडळाची बसका जावपाची आसा. तातूंत तो दाखलो मेळपाची आस्त आसा. ते उपरांत शारांतल्या ह्या दोनूय म्हत्वाच्या प्रकल्पांचें काम प्रत्यक्ष हातांत घेतले, अशें आमदार ज्योशुआ डिसोझान सांगलें.

सरकारान सुमार 117 कोटी रुपयांचो जमनी पोंदच्यान वीज केबलाचो प्रकल्प मंजूर केल्लो. तीन टप्प्यात ह्या प्रकल्पाचें काम हातांत घेतले. सगळ्यांत पयलीं उच्च दाबाच्या (एचटी) वीज



केबलाचें काम सुरू जातलें. ते उपरांत उण्या दाबाच्या (एलटी) वीज केबलाचें काम हातांत घेतले.

हे विशीं आमदार ज्योशुआन सांगलें, विधानसभा वेंचणूक आचारसंहितेक लागून पालिका मंडळाची बसका घेवपाक मेळूंक ना. ताका लागून पालिकेचो गरजेचो आशिल्ल्या ना हरकत दाखल्या विशीं निर्णय घेवंक मेळूंक नाशिल्लो. आतां हो प्रलंबीत दाखलो मेळोवन जमनी पोंदच्यान वीज केबल घालपाच्या कामाक चालना दितले. ते भायर ह्या प्रकल्पाच्या 33 आनी 11 केव्ही वीज केबल मागयिल्ल्यो. त्यो येवपाक लेगीत मातसो कळाव जाल्लो. आतां ते केबल पावल्यात, अशें ताणें सांगलें.

शारांतलो घाणयाऱ्या उदक प्रकल्पाचो ना हरकत दाखलोय पालिका मंडळा कडेन प्रलंबीत आसा. ताका लागून जमनी पोंदच्यान वीज केबल आनी घायणारें उदक प्रकल्पाच्या कनेक्शन कामाची परवानगी पालिका मंडळाचे बसकेंत मेळोवन ही दोनूय कामां चालीक लायतले, अशें आमदार ज्योशुआन सांगलें.

पुराय जावपाक आयिल्लो घाणयारें उदक प्रकल्पाची पयलीं चांचणी करतले आनी घरांक कनेक्शनां दितले. हें कनेक्शनाचें काम तीन टप्प्यांत जातलें. तिसऱ्या टप्प्यांत गांवसावाडो वाठार येता आनी हो वाठार प्रकल्पाक लागीं आशिल्ल्यान हें काम पयलीं घेतले, अशी म्हायती आमदार ज्योशुआन दिली.

मुळाव्या सुविधांची कामां हातांत घेतले उपरांत खोदकामाक लागून उण्यांत उणें लुकसाण जातलें, हाची जतनाय घेतले. हीं कामां एकेच खेपे हातांत घेवन पुराय करची, हाचेर आपलो भर आसा. ना जाल्यार दरेका खात्या कडल्यान कामां खातीर रस्ते खणटले, तातूत करदात्यांच्या पयशांची नासाडी जातली. हे प्रकार आडायतले, अशें आमदार ज्योशुआन सांगलें.

### दोन वर्सां भितर जमनी पोंदच्यान वीज केबल: ज्योशुआ

पोरूं आयिल्ल्या तोक्ते चक्रीवादळाचो म्हापशेंकारांक खूब त्रास जाल्लो. वीज खांबे आनी सरयो तुटून पडिल्ल्यान सप्तक भर लोकांक लायट नाशिल्ली. हो जमनी पोंदच्यान वीज केबल प्रकल्प सुरू जाले उपरांत वादळा सारक्या सैमीक संकटाचो परिणाम म्हापशें शाराचेर जावचो ना. म्हापश्यां 117 कोटी रुपया खर्च करून जमनी पोंदच्यान वीज केबल प्रकल्पा खातीर डिसेंबर 2021 त तेन्नाचो वीजमंत्री निलेश काब्रालाचे हस्तुकीं बुन्यादी फातर घातिल्लो. हें काम 24 म्हयन्यांत पुराय जातलें, अशी हमी आमदार ज्योशआ डिसोझान दिली.

## कोरगांवां रशियन नागरिकाची कूड

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पेडणें:** पेडणें म्हालांतल्या भटवाडी कोरगांवां दोंगराळ वाठारांत आयतारा सकाळीं रशियन नागरीक विटाली आलेक्सीवास्की हाची कूड मेळ्ळी. हे विशीं म्हायती मेळटाच पेडणें पुलीस निरिक्षक विक्रम नायकाचे अध्यक्षते खाला पुलीस घडणुकेचे सुवातेचेर पावले.



पुलिसांनी कूड ताब्यांत घेवन फुडलो तपास सुरू केला. मेळिल्ले म्हायती प्रमाण कांय बायलो चुन्ना काडपा खातीर गेल्ल्यो तेन्ना तांकां ती कूड दिसली.

विटाली भाटवाडी कोरगांवां रावतालो. घर धनी आनी ताच्या रशियन इश्टान कुडीची वळख पटयली. कूड पोस्टमार्टमा खातीर बांबोळे गोमॅकॉंत धाडल्या. मरणाचें कारण समजूंक ना.



विद्यार्थी दीस कार्यावळीक हाजीर राविल्ले विजय सरदेसाय, श्रद्धा आसगांवकार, सदाशीव वालावलकार, सुविद्य गणपुले आनी वरेस फडके.

## दिवचले मनयलो विद्यार्थी दीस

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**दिवचल:** दिवचलच्या विद्यावर्धक मंडळ संचलीत श्री शांतादुर्गा मुळाव्या शाळेचो विद्यार्थी दीस व्हडा उमेदीन मनयलो.

मंडळाचो अध्यक्ष विजय सरदेसाय मुखेल सोयरो म्हूण कार्यावळीक हाजीर आसलो. श्री शांतादुर्गा विद्यालयाची मुख्याध्यापिका श्रद्धा आसगांवकार, मुळावे शाळेचो वेवस्थापक सदाशीव वालावलकार, पालक शिक्षक संघाचो अध्यक्ष वरक फडके, मुळाव्या शाळेची शिक्षिका सुविद्या गणपुले माचयेर हाजीर आशिल्ले.

भाऊसायब बांदोडकारान गांव थंय शाळा संकल्पना चालीक लायली. भाऊसायबाचो आदर्श घेवन विद्यार्थ्यांनी आपलें व्यक्तीमत्व घडोवचें. फुडल्या काळांत स्मार्ट क्लासी वतीन विद्यार्थ्यांक विवीध विशयांचेर मार्गदर्शन करतले, अशें विजय सरदेसायान सांगलें. श्रद्धा आसगांवकारानूय आपले विचार मांडले. विद्यार्थी दिसाचें म्हत्व सांगपी विद्यार्थ्यांनी भाशणां केलीं. वर्सभरांत घेतिल्ल्या विवीध सर्तींचीं इनामां मानेस्तां हस्तुकीं भेटयलीं.

प्रणिता शिरोडकारान येवकार दिलो, प्रास्तावीक केलें. पुजा सातोस्कारान सुत्रसंचालन केलें. करिश्मा खाटेकारान उपकार मानले.